जाग प्रकाशनाचें

नवी जाग गोंयकारांक म्हयनाळें

वर्स ४९ : आंक ३ : डिसेंबर २०२२

● संस्थापक संपादपी :
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

● वैचारीक दायज :
स. माधवी सरदेसाय

● संपादपी :
आसावरी नायक

● अतिथी संपादपी :
सखाराम शेणवी बोरकार

● पालवी संपादपी :
कृपाली नायक, एडना वाझ

● उजवाडावपी :
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

● छापपी :
इंप्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५९० ००२

● वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
बिल्डींग ३, प्लॅट ३, - SE-3
मॉडेल स्टेटस, दोनापावल-तालिगांव मार्ग,
गोंय विद्यापिठा लागसार,
ताळगांव-गोंय ४०३ ००४.
फोन: ७४४७२६८७२० । ९७६५९८७६०६

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) | : २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,०००/- रु. |

**Jaag Bank Details:**
Accont No. 4004002100005165
Name : JAAG MONTHLY
Bank Name: Punjab National Bank
Branch : Panaji-Goa
IFSC Code: PUNB0292300

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-



## मांडावळ...



**मुखपृष्ठ फोटो :** समीर झांट्ये.
**भितल्ली चित्रां :** निशीत बोरकार.

संपादकीय

## नातालाचीं परबीं

२०२२ वर्साचो 'नवी जाग गोंयकारांक'चो निमणो अंक तुमच्या मुखार दवरपाक खूप खोस भोगता. ओंदूच्या दिवाळी अंकाचें सगळ्या पांवड्यार कौतुक जालें. गोंयांतल्या कोंकणीच न्हय तर महाराष्ट्रांतल्या मराठी दिवाळी अंकांभितर पयलो दिवाळी अंक उजवाडाक येवपाचो मान 'नवी जाग गोंयकारांक' फाव जालो. हाचें मुखेल कारण म्हळ्यार सगळ्या लेखकांनीं आपले साहित्य वेळार आमकां पावतें केलें. हो तेंको आनी सहकार्य भोव मोलाचें. ताचेरूच नेमाळ्यांचो नेट आनी फुडार आसता. एकूय सरकारी जायरात नासतना आनी साप्प थोड्यो खाजगी जायराती आसतना येदो व्हडलो अर्थिक भार वेवस्थापनान पेललो म्हण तांचें देव बरें करूं.

सदचे भशेन डिसेंबराच्या अंकान साहित्याच्या चडश्या आंगांक स्पर्श केला. ह्या वर्सा आमी नामनेचे कवी स. पांडुरंग भांगी हांची जल्मशती मनयतात. फाटले अंकासावन नामनेचे साहित्यीक माधवबाब बोरकार हे भांगीबाबांचें 'जिवीत आनी कवीत' हाचेर खोलायेन बरयतात. तांच्या लेखाचो फुडलो वांटो आमी ह्या अंकांत उजवाडाक हाडला. हाचे फुडले वांटे मुखावेल्या अंकांनी येतले. स. पांडुरंगबाब भांगी हांणी कांय कथा बरयल्यात हें खूप थोड्या जाणांक खबर आसतली. तांतली 'भेट' ही कथा आमी वाचप्यांखातीर पुर्नमुद्रीत करतात. त्याभायर आमचीं सदचीं सदरां आसातूच.

फाटलीं दोन अडेच वर्सां आमी कोविडाच्या सांवटाखाला काडलीं. मनीस जो सैमापरस आपूण श्रेष्ठ म्हण समजतालो, जाणे आपल्या अनिर्बंध वागण्यांन सैमाचें अमर्याद नुकसाण केलें. ताचें फळ ताणें फाटल्या दोन अडेच वर्सांत भोगलें. आजुन आमची अर्थवेवस्था रुळार येना. फाटल्या दोन अडेच वर्सांत खूप जाणांल्यो नोकऱ्यो गेल्यो, उद्देग धंदे बंद जाले; शेकीं म्हारगाय वाडली. तरी आसतना लोक रीण काडून सण मनयतात ही खंतीची गजाल. ओंदूची दिवाळी तेंच दाखयता. कोरोना संवसारांतल्यान वचूंक ना. कांय वाठारांनी तो नवें नवें रुप घेवन येत आसा. फकत चडशा जाणांनी वासिनां घेतल्यांत म्हण ताची खरसाण उणी जाल्या. जाणीं कोणे वासिनां घेवंक ना ताणी ती बेगीन मुजरत घेवंची. शाणे जावंया. घाळपणाची चूड दाखोवन कोविडाचो म्हारू परत घरांत हाडप आतां परवडपा सारकें ना.

नोव्हेंबर म्हळ्यार गोंयांतलो इफ्फी. अर्थात भारतीय आंतरराश्ट्रीय चित्रपट महोत्सव. फाटलीं दोन वर्सां तो महामारीच्या हायब्रिड मोडाच्या चेपणाखाला जालो. अंदू तशे निर्बंध नाशिल्ले. चित्रपटांची दाखोवणी मेकळेपणान जाली. संवसारभर चित्रपट माध्यमांतल्यान तरेकवार शक्यतायांच्यो कथा काणयो लोकांचें रंजन करीत आसात. सृजनशीलतायेच्या कल्पना करूं नजो अशा मांडावळीचें, सूचक चित्र-विणकामाचें दर्शन ह्या फिल्मांनी घडटा. इफ्फीन गोंयचें नांव जगभर पावयलां हें खरें.

डिसेंबर म्हयनो म्हळ्यार गोंयचो पर्यटनाचो तेंगशेवेलो म्हयनो. देश विदेशांतले पर्यटकच न्हय तर देश विदेशांत राबितो करुन आशिल्ले गोंयकार ह्या म्हयन्यांत नातालांची परब मनोवपाक गोंयांत येतात. परब मनयतनां मातशी भलायकेची सादुरताय बाळगुंची हें मागणें. सरभोंवतणच्या पर्यावरणाची जतनाय आनी नितळसाण बाळगूंक जाय. पर्यावरणाच्यो झुंड्यो गोंयांत येवपाक लागल्यात. पर्यटन खात्यान बेकायदेशीर कर्तुबां करप्यांचेर कांय निर्बंध घाल्यात आनी दंडात्मक कारवाय करपाची शिटकावणी दिल्या. मेळत थंय उकत्यार अन्न शिजोवप, भीक मागप आनी हेर कृत्यांचो तातूंत आसपाव जाता.

सगळ्यांक नातालां आनी नवें वर्स सुखाचें समृद्धीचें आनी घटमूट भलायकेचें वचूं हें मागणें.

# पांडुरंग भांगी - जिवीत आनी कवीत

**माधव बोरकार**



'अद्रुश्टाचे कळे' हो पांडुरंग भांगी हांचो दुसरो कविता संग्रह. तो र. वि. पंडित हांणी आपल्या भगवती प्रकाशनाचे वतीन १९८३ वर्सा उजवाडा हाडलो. ह्या संग्रहात ताणी १९७२ ते १९८२ ह्या काळखंडात बरयल्ले कवितांचो आस्पाव केल्लो. 'दिस्टाव्यां'त १९६२ ते १९७० ह्या आठ वर्सांत बरयल्ल्यो कविता आसात. पयल्या संग्रहात एकसष्ट कविता तर ह्या दुसऱ्या संग्रहात चौपन्न कविता आस्पावल्यात. म्हळ्यार ह्या दोन दसकांत तांणी फक्त एकशें पंदरा कवितांची जोड केल्या म्हणपाक जाय. कांय कवींची जातडीच कमी बरोवपाची आसता. भांगीची एक सवंय आशिल्ली. एखाद्री कविता बरोवन जातकच ती तशीच कार्देनांत दवरताले. कांय काळ वतकच ती कविता परत वाचताले. तांतूंत कांय बदल सुचल्यार ती परत बरोवन काडटाले. एखाद्री सामकीच सामान्य दिसल्यार तिचेर एक उबी काट मारताले. अश्यो कांय कविता तांच्या कवितेच्या कार्देनांत उद्धाराची वाट पळयतात आसल्यो. तांचे पुराय समाधान जाल्या बगर ते उजवाडा हाडपाक तयार नासताले. तांची सगळी बरपावळ मोतयांवरी अक्षरांत आसताली. तांच्या ह्या कार्देनांचो सोद घेवपाक जाय. ह्या कवीन कवितेचे संखेपरस तिच्या गुणांक चड म्हत्व दिलें. लोकांक आवडटा म्हूण तशेच तरेच्यो कविता ताणी केन्ना बरयल्यो नात. आपल्या नीज अणभवांकडेन ते प्रामाणिक रावले. 'कविता बरोवप ही आपली एकली एकसुरी जियेवपाची तरा' अशें म्हणपी पुर्तुगेज कवी पेस्सोव तांचो आदर्श आशिल्लो. पेस्सोव हांणी आपले उबे हयातीत व्हडलें म्हणपा सारकें प्रसिद्ध केलेंना. बरोवप आनी एका व्हडल्या ट्रंकांत दवरप ही ताची सवंय. होच भांगी हांचोय आदर्श.

कोंकणी कवितेच्या इतिहासाचो विचार करतना पांचव्या आनी सव्या दशकाच्या काळांत दोन प्रवाह स्पश्ट दिसतात. एक बाकीबाब आनी रामाणी हांचो आनी दुसरो मनोहर सरदेसाय आनी पांडुरंग भांगी हांचो. ह्या प्रवाहांत अभिजित आनी चाफ्रा द कोश्ता हांचे कवितेचे वझरे येवन मेळिल्ले दिसतात. अभिजित ऊर्फ वामन सरदेसाय हांचो एकलो एकसुरो कविता संग्रह तांच्या मरणा उप्रांत प्रसिद्ध जालो आनी चाफ्रान सातत्यान कविता बरयल्यो. सांगपाचें म्हळ्यार मनोहरराय सरदेसाय आनी र. वि. पंडित हाणी आत्मनिष्ठ आनी वस्तुनिष्ठ अश्यो दोनूय तरेच्यो कविता निर्मिल्यो. सरदेसाय हांचो 'गोंया तुज्या मोगाखातीर' ह्या संग्रहात, मोग, सैम सारकिल्या आशयाबराबर गोंय आनी गोंयची मुक्ती हो म्हत्वाचो आशय आयला. हो संग्रह गोंय मुक्ती पूर्व काळांतलो. ह्याच कालखंडात र. वि. पंडितूय कविता रचताले. ह्यो कविता वाचून बाकीबाब बोरकारांक तातूंत मुळयाचो भार दिसलो तर 'जनेल' ह्या 'म्हजें उतर गावड्याचें' ह्या संग्रहाक बरयल्ले प्रस्तावनेंत ही कविता म्हळ्यार मुळकेश्वराची वाणी कशी दिसली.

हे पाठभूयेर पांडुरंग भांगी हांची कविता दवरून तिचेकडेन पळोवपाक जाय. 'अद्रुस्टाचे कळे' ह्या संग्रहांतली ५२ क्र. कविता ही गोंय मुक्ती उप्रांत ताणी बरयल्ली पयली कविता. खरें म्हळ्यार तिचो आस्पाव ताणी 'दिस्टावो' ह्या संग्रहात करपाक जाय आशिल्लो. ताणी तसो आस्पाव करीनासतना ती कित्याक भायर दवरली तें कळपाक आज वाट ना.

*आयच्या दिसाकच एक वेगळी कांत आसा*
*वाऱ्यांतच एक जिवस खारसाण आसा*
*आनी दर्याच्या ल्हाराक एक आगळेंच तेज आसा;*

*आंब्याच्या चंवरांचेर सपनाचें भिरें आसा*
*जायांच्या इत्सांचेर आबोल्यांचो हार आसा*
*आनी मोगऱ्यांच्या फांतयेचेर नक्षत्रांची फांक आसा;*
*शद्बुल्यांच्या उमाळ्यांत व्यथेची खोलाय आसा*
*हांशाच्या फेंडेरांत दुखाचो लेप आसा*
*आनी आयचे आमचे बुन्यादीचेर फुडाराचें शिल्प आसा;*
*दर्याक आतां भर्ती आसा*
*रगताक नवो तोल आसा*
*आनी दिखाळ आमच्या हावेसांकच वज्राची तांक आसा.*



भांगी हांच्या हे कवितेचो सूर स्पश्ट लक्षांत येता. जुलमी राजवट वचून नवें कितेंय तरी 'घडटलें अशी आस्त कवी आपल्या मनांत बाळगिता. आज घाल्ले बुन्यादीचेरूच फुडराचें शिल्प उबें आसा असो भरवंसो कवी हांगा व्यक्त करता. आतां दर्याकय भर्ती आयल्या आनी नवें घडोवपाची खुमखुमी रगतांत उसळूंक लागल्या आनी ताका लागून हावेसांकूय वज्राची तांक लावल्या हाची जाणीव कवी करून दिता. हांगा कवी प्रथमपुरुशी 'हांव' वापरिना. तर तो 'आमचो' ह्या उतराचो प्रयोग करता. आनी ताचे फाटलें कारण म्हळ्यार तो सगळ्या समाजाच्यो भावना हांगा उक्त्यो करता. असो शद्बप्रयोग ताणी आपले कवितेंत केल्लो दिसना. ही कविता आडवाद कशी आयल्या. मनोहरराय सरदेसाय, पंडित हांच्यो गोंय मुक्ती उप्रांतच्यो कविता अभ्यासून पळयल्यार तांचे कवितेचो सूर बदलिल्लो दिसता. आनी तो तसो दिसप सभाविक आसा. तांचे कवितेंत नव्या सपनांचो ध्यास आसा. ती फळादीक जातलीं अशी तांकां खात्रीय आसा. पूण मुखावेलो तांकां आयिल्लो अणभव हो खर निर्शे वणेचो. 'प्राणाक क्षय, बुद्धीक भंय, फाल्यांक जंय कालचीच वंय / आयलां थंय स्वातंत्र्य तें स्वातंत्र्य न्हय स्वातंत्र्य न्हय' अशें बाकीबाबांक किंवाट्यान म्हणचें पडटा.




आपले भुंयेचो मोग आनी तिची सैमिक सुंदराय हो आदले पिळगेंतल्या कोंकणी कवींच्या कवितेचो आशय. शणै गोंयबाबान तश्यो कविता बरोवंक ना. 'म्हजें गोंय' ही एक कविता तितलीं गोंयच्या सैमाचें वर्णन करता. तांकां गोंय निजाचें अपुरबायेचें, इंद्रनील मळबाचें, भांगराच्या वताचें, रुप्याच्या चांदन्याचें कशें दिसता. बयाभाव आपल्या 'गोमंत-गीत' हे कवितेंत गोंयच्या सैमाचें दर्शन घडयता. हें दर्शन बरेंच जंत्रेच्या रुपान आसा. आनी गोंयमुक्ती उप्रांत गोंयचे मातयेर पावल दवरतकच सरदेसाय 'भाग्य म्हजें कोंकणाचें' सारकिली कविता बरयता. 'जायात जागे' ह्या संग्रहांतल्यो चडावत कविता ह्यो गोंयासंबंदान आसात. पंडितानूय गोंयाक व्हंकलेची उपमा दिल्या.

मात भांगी अश्या आशयाच्यो कविता बरयतना दिसना. 'कोंकणच्या रानांत' ही एकूच कविता 'दिस्टावो' संग्रहात आसा.

*कोंकणच्या रानांत*
*वनदेवी धोलता*
*मकरांत रे पुजा*
*म्हूर्त तिजी.*

तिची होंट चारांनी आनी चुन्नानीं भरपाक जाय आनी तिका पासडी धाडपाक जाय तीच चंद्रकलेची... फुल्लटीची कांत मारप तिचें आंग नितळ आसा. तिच्या कुशीत आशाढाचें सपन आसा. तिची सोबीतकाय वर्णितना कवी म्हण्टा,

*तिज्या रे दोळ्यांत*
*पोहुडलें मळबु*
*दिपरत्ने आरासु*
*अंतरांतु*

हांगा कवी आपले भुंयेक एखाद्रे देवतेच्या रुपान पळयता. हें सगळें कोंकणी कवितेक आगळें वेगळें कशें. भुंयेचें हें एक चैतन्यान भरिल्लें रुप. तांच्या दुसऱ्या कालखंडातल्या कवितांचो विचार करतना पयल्या कालखंडात वचप गरजेचें आसता. कवितेक आपलो असो भूतकाळ आसना हें विसरपाक जायना. ताका लागून 'अद्रुस्टाचे कळे'तले कवितांचो विचार करतना फाटीं वचचें पडटा. तातूंतल्यान कवितेकडेन पळोवपाक Perspective मेळटा.

भांगी हांचे कवितेचो विचार करतना एक गजाल स्पश्ट लक्षांत येता ती अशी. कवी आनी कविता हांचे मदलें नातें कितें? कवी आपले कवितेंतल्यान नीज जाणेविशीं सांगता? काय ताच्या अणभवाच्या क्षेत्रांत तो आशीकुशीचो वाठार आपले भितर आस्पावन घेता? देखीक कालिदास आनी भवभुति

सारकिले अभिजात कवींची कविता वाचतना आमकां त्या काळांतली परिस्थिती कितें आशिल्ली हाची कल्पना येना. तेच प्रमाण तांचे वैयक्तिक जीण कशी आशिल्ली हाचेविशीं तांची कविता कांयच सांगिना. कविता वा कला नीज अणभवांची अभिव्यक्ती आसता ही जाणीव एका काळार रुजूंक नाशिल्ली. ती मूळ धरूंक लागली तीं कालांतलान रॉमेंटिसिसमाचो उदेव जातकच. तो युरोपांत आनी तेच बराबर भारतीय साहित्यांतूय. आमचें संतकाव्य हें रॉमेंटिसिझमाचें दर्शन घडयता. कोंकणी कवितेचो विचार करतना बाकीबाब, मनोहरराय सरदेसाय, र. वि. पंडित, भांगी आनी रामाणी हांची कविता हेच परंपरेंतली म्हणपाचें लक्षांत येता. आनी चा. फ्रा. द कोश्ता तर कल्पनेच्या झोपाळ्यार बशिल्लो कवी. रॉमेंटिक कवितेचीं सगळीं लक्षणां चा. फ्रा. ची कविता दाखयता. ही फाटभूंय मतींत दवरून भांग्याची कविता वाचल्यार ती बरी समजता आनी उमजताय. तांचे कवितेचो भावबंध आनी तिची एकूण बांदावळ कशी जाल्या हाचेर थोडो भोव उजवाड पडटा. तांचे कवितेंतल्यान प्रगट जावपी प्रतिमाविश्व आनी लयेचीं आवर्तना हांचो थाव लागूंक पावता. मनोहरबाब सरदेसायाचें कवितेभशेन ती सरळ सांगिना. पूण तिच्या गूढ सभावाक लागून तिका समजुवपाक तिचे कडेन वचपाक आस्वादकाक ती प्रवृत्त करता. हाका लागून तिची वाट वेगळी अशें म्हणचें पडटा.

'बस गो बाये, बस गो बाये
कल्पनेच्या म्होरार
सातय दर्यां तू गो राणी
म्होर नाचता तालार'

अश्यो वळी ते कवितेक उद्देशून बरयतात. आपूण आलतडी आनी तूं पलतडी आसात पूण तांकां एकठांय जोडपाक एक पूल आपलीं आर्कां वळटा. कवितेचे देवतेक एक सारकी होरांवची पडटा तेन्नाच ती आपल्या लागीं येता. आनी जेन्ना ती कवीचेर प्रसन्न जाता तेन्ना

'म्होर लागलो नाचूंक तसो
सपनेवंक लागली राणी
चांफो कसो फुल्लो शेंपो
नखेत्रांची काणी'

असो अणभव येता. ही देवता म्हळ्यार कवीची प्रतिभा. ही कविता वाचतना MUSE हे आखमातोव्ह हे रशियन कवयित्रीचे कवितेची याद जाता.

She enters now. Pushing her veil aside, She stares through me with her attentiveness. I question her: And were you Dante's guide Dictating the inforno? She answers 'yes'.

प्रतिभेचें हे गूढ जीवितभर तिची साधना करून लेगीत उलगडटलें म्हणपाची शाश्वती नासता. तें अखेर मेरेन गुढूच उरता. ती म्हळ्यार 'रूप अरुपाचो साद्/ भास शाश्वताचो भेदु' आसता. आनी ती थोडी भोव कळूंक लागता तेन्ना

*'कस्टावतां केळ
पानेली माया
तळ्यान झेल्ली
मळबाची काया'*

असो अणभव येता.

लैंगिक जाणीव ही मनशाचे जिणेची मुळावी प्रेरणा. हे जाणिवेंतल्यान प्रेमाची भावना जल्माक येता. हें प्रेम शारिरीक तशेंच अशारिरीक आसता. श्रृंगार हें ह्या भावनेचें एक म्हत्वाचें आंग. संवसारीक कवितेचेर एक नदर माल्ल्यार प्रेम आनी श्रृंगार ह्या दोन गजालींनी कवितेक कशी व्यापल्या हाची कल्पना येता. आमचे कडेन पयली वयली प्रेम कविता ऋग्वेदांत मेळटा. तेच प्रमाण कालिदास आनी हेर संस्कृत कवींनी ह्या श्रृंगाराचीं स्तोत्रां आळयल्यांत. देशी भासांतल्यो कविता श्रृंगार रसान गिरेस्त आसात. प्रेम आनी श्रृंगार मात कोंकणी कवीनी म्हणपा सारको आपले कवितेंत केळयल्लो दिसना. बाकीबाबाच्यो कांय कविता, सरदेसाय आनी पंडित हांचे कवितेंत प्रेम आसा. पूण उत्कटतायेचे नदरेन त्यो थोड्यो दाव्यो म्हणपाक जाय. भांगी हांच्या वट्ट कवितेंत ताणी प्रेमाक व्हडलीशी सुवात दिल्ली दिसना. तांचे कवितेंत प्रेम येता तें थोडें वेगळे तरेचें. दोळ्यांत भरपा सारकी तांची संख्या दिसना. 'दिस्टावो' संग्रहांतली 'तूं धर्तरी' ही कविता तांचे प्रेम कवितेची कालेत दाखयता.

*'तूं धर्तरी
हांव ओंपपी
तुजे कुडीशेजेचेर
जाया पर्मळ फुलयत
भोग हांव भोगपी'*

कवी आपले मोगिकेक धर्तरेच्या रुपांन पळयता. बीं ओंपल्या उपरांत धर्तरी जशी सुफळ जाता तशेंच नातें तो आनी ती हांचे मदीं आसता. हाका कवी भोग अशें म्हणिना. तो प्रश्न विचारता आनी ताची जापूय तोच दिता. न्हय तुजोच तो साद अशें म्हण्टना हें नातें म्हळ्यार 'जिणेची रुच ही / जिणेचोच नाद' अशे उद्गार कवी काडटा. हाचो फुडलो पावंडो मुखावेल्यो वळींनीं येता.

*'चांदन्याची पसय कशी
भोगासनी म्हुर्त तुजी
पाकळे पाकळेन आयली फुलून
तूंच साळीक - धर्तरी!'*

श्रृंगार हो उत्तान आनी बटबटीत आसूं येता. दोळ्यांर मारपा सारको. बाकीबाबाल्यो कांय मराठी कविता ह्यो श्रृंगाररसाच्यो पूण खूप कडेन त्यो उत्तान अभिव्यक्तिकडेन बागवतात. श्रृंगाराक एके तरेचो सात्वीक रंग आसता. तातूंत अध्यात्माचो रंग भरसल्लो आसता. राधा-कृष्णाच्यो कविता अश्योच श्रृंगारिक आसुनूय त्यो अध्यात्मीक आसात. विद्यापतीच्यो रचना म्हळ्यार श्रृंगाररसाची उत्कट अभिव्यक्ती म्हणपाक जाय. भांगी हांचे हे कवितेंतली भोगासनी म्हुर्त चांदन्याची पसय कशी... कवीक ती पाकळेपाकळेन फुलून आयिल्ली धर्तरी कशी दिसता. श्रृंगारीक कवितेक कुडीक जाग हाडपाची तांक आसता. पूण हांगा ही कविता मनाक शांतरसाची अनुभूती दिता.

प्रेम करतना व्यव्हाराचो दोळो बंद आसता. काळ वता तसो प्रेम एक सपन कशें आशिल्लें अशें दिसपाक लागता. आनी मागीर प्रेमाचें तारूं व्यव्हाराच्या खडपार आपटून फुट्टा काय जाता. तो याद करता. एका काळार आमचीच आमकां भांग चडिल्ली आनी आपल्याच नादांत गाणी गायत तें वचप... ल्हारांकूय खेळूंक दिवंचे वेळेर बांदून वाडे आनी

*'धेंपावचे आशिल्ली तेत्रा*
*सातां समुद्रांपेल्या*
*सप्तद्विपांची पलतड*
*आतां मात कशीच मेळना*
*आमचीच आमकां आलतड'*

कल्पना आनी सत हांचे मदी खूप मोटें अंतर आसता. आनी दोळ्यांवेली मोगाची धुंदी देंवतकच तें अंतर दिसपाक लागता. आनी ही आलतड तांका मेळना.

भांगी हांच्या सगळ्या प्रेम कवितांमदीं 'अद्रुस्टाचे कळे' संग्रहांतली सोळा आंक आशिल्ली कविता प्रेमाचो उत्कट अणभव व्यक्त करता. हे कवितेंक गद्यकाव्याचो आकार आसा हें एक तिचें खाशेलें वेगळेंपण. दोन जीव एकामेकांमदीं रत जातात ताचो हो अणभव ही कविता व्यक्त करता.

'कितले खेपो तुज्या ओठांक हांवें दंश केलो ताजो हिशोब दवल्लो ना. दितना माप पळेलें ना. खाणेची कोंबी कशी आज तूं पुनवे जोरगत उबयता.'

ह्या अणभवांचो भोग घेतना आपल्या सरभोंवतणचो विसर पडटा तो आनी ती मोनेळ अणभवता. तातूंतली 'ती' मोनेळींतच चंवरून घोंसार येता आनी तिच्या काळ्यावज्र केसांत चांदन्याकय मस्ती चडटा. आनी सगळें भावविश्व व्यापून उडोवपी अणभव भोगतना थंय उतरांचीच आडखळ जाता.

*'घडये उतरांच आमचो घात मारुंये,*
*ह्या पैलींच ओठांच्या उज्यान आमी*
*पुनव जागोवंया...'*

तशें पळोवंक गेल्यार बायल दादलो हांचे मदले सबंद तांचे कवितेचो मुखेल आशय न्हय. ह्या सबंदात आसक्तीचो एक धागो आसता. आनी ही आसक्ती अश्या सबंदानी आसप हें सभावीक म्हणपाक जाय. खरें म्हळ्यार तातूंतल्यान प्रेम भावनेक फुलोर येता. कांय समिक्षकांच्या मतान भारतीय अध्यात्मीक परंपरेंत बायल दादलो हांचे मदल्या कुडीच्या सबंदांक उणाक मानलां. हातूंतल्यान एक नैतिक मुल्याचो उदेव जालो. अशें जरी आसलें तरी आमच्या कांय देवळांनी मिथून शिल्पा कोरिल्लीं दिसतात. हो एक मोटो विरोधाभास. हे थोडेशें विशयांतर जालां. पूण भांगी हांचे कवितेविशीं बरयतना एक विचार मांडपाचो हो यत्न.

बायल-दादलो सबंदाक आनीक एक परिमाण आसा. पिराये प्रमाण कुडीची आसक्ती उणी जावन एक नवें भावनीक नातें जल्माक येता. दोगांकूय कुडीच्या नात्या परसूय एकामेकांक समजून घेवपाची आंतरीक ओड लागता. ही ओडूच तांका एकामेकांकडेन बांदून दवरता. 'दान दिवप/ आनी दान घेवप / उष्ण्या वायणांचो / ताका वीट आयला. वडा मुळांतली सांज जावन ताज्या म्हऱ्यांत ती घुटमळटा आनी तिजें पावल ताज्या काळजाचें दावें जाता... आनी तो तिच्या काळजाचें मळब आपल्या ओठांर झेलता.' हे अवस्थेचो मुखावेलो पांवडो ६ नंबर आशिल्ले कवितेंत आयला.

*'मदले दोंगर हुपूंक*
*तुज्या भुजाची धिगी*
*म्हाका दी,*
*दोगां भितल्लें*
*खंयचें झाड;*
*हुमटून*
*पैलें जळत म्हणपाचें कळना;*
*आमचो दरेक दीस*
*वोंवळ जांव!'*

दादलो आनी बायल हांच्या मदल्या नात्याचे नाजूक धागे ही कविता आमकां विस्कटावन दाखयता. मरणाक लागून एकामेकांचो सहवास सोंपप हातूंत एकेतरेचें दुख आसता. जो फाटल्यान एकलोच उरता ताका ताच्या एकसुरेपणात यादींच्या वोंवळाच्या पर्मळाचो सांगात आसात. ते म्हालवजार तो आपली जीण सारता. 'चांफेल्ली सांज' ह्या संग्रहांत 'कितल्यो राती आयल्यो अशो' ही थोडी विसंवादाची कविता आसा तिचे सबंदान हे आदीं बरयलां.

संपर्क: 9420222876

***

# कोंकणी चम्पू-काव्यः
## गायत्रीदेवी, प्रतिभा आनी प्रज्ञा हांचो मनोहर संगम

प्रा. प्रियदर्शिनी तडकोडकार

चम्पू-काव्य हो गद्य-पद्य-मय श्राव्य काव्याविश्काराचो एक अप्रूप प्रकार. गद्य आनी पद्य ह्या दोनूय बरोवपाचे पतींचो ह्या काव्याविश्कारांत समावेश जाल्ल्यान तत्कालीन गद्याच्या पतीचो भाशाशास्त्री आशिल्ल्या अभ्यासकांकय लाब जाता. संस्कृत साहित्यशास्त्राकडेन संबंधित आशिल्ल्या चवदाव्या शतमानांतल्या पण्डित विश्वनाथ विरचित 'साहित्य दर्पणां'त ६/३३६ चम्पू-काव्य हे संज्ञेची व्याख्या अशी केल्या: गद्यपद्यमयं काव्यं चम्पूरित्यभिधीयते.

चम्पू-काव्याविश्कार हो एक तरेचो महाकाव्यावरी लेखन प्रकार जावन आसा. देव-स्तुती, संज्ञा-संकल्पनेची चिकित्सा, वैज्ञानिक दिश्टिकोन आनी तत्त्वगिन्यान अशा गिन्यानाच्या मळार ब्रह्मवेद म्हूण विद्वन्मान्यता मेळयिल्ल्या 'अथर्ववेदां'त ह्या लेखन-प्रकाराचो परिचय जाता. वैदिक साहित्य (कृष्ण यजुर्वेदीयसंहिता), बौद्ध जातक (बौद्ध कविआयंशूरसंरचित'जातकमाला') अशे विद्वन्मान्य बरपावळींत चम्पू-काव्याविश्कार ग्रंथ वाचूंक मेळटात. इसवी सन तिसऱ्या शतमानाच्या मजगतीं हरिषेणविरचित'समुद्रगुप्ताचीप्रयागप्रशस्ति' ह्या माथाळ्याचें चम्पू-काव्य सुप्रसिद्ध आशिल्लें.

धाव्या शतमानांत कविवर त्रिविक्रम भट्टाचो मनोरम काव्याविश्कार म्हूण तागेल्या 'नलचम्पू'ची देख दितात. ह्या शेंकड्यातल्या त्रिविक्रमभट्ट कवीक सिंहादित्य अशेंय एक संबोधन आशिल्लें. ताणें 'नलचम्पू' तेच परी 'मदालसाचम्पू'ची रचना केली. ताचो 'नलचम्पू' हो साहित्यिक दिश्टींतल्यान प्रप्रथ म्हळ्यार आदर्श लेखनाचो राजमार्ग अशें मानतात. त्रिविक्रमभट्टान जाणटेपणांत काव्य-लेखन केलें देखून ताच्या चम्पूकाव्यांत परिणत स्वरूपाचें दर्शन जाता अशें एक मत्त आसा. क्रियापदांतले विंगडपण, शब्दरूपांतले विंगड विंगड प्रयोग काव्याकच न्हय तर वट्ट आदर्श भाशाविश्काराचो निकश सिद्ध करता अशें मत्त उक्तायतात. ह्या चम्पूकाव्यांत श्लेष अलंकाराचो आदर्श पळोवंक मेळटा अशें हिन्दी तेच परी संस्कृत साहित्याचे इतिहासकार आनी पंचविसेक ग्रंथांचे लेखक पंडित बलदेव उपाध्याय (ऑक्टोबर १०, १८९९ - ऑगस्ट १०, १९९९) म्हणटात. त्रिविक्रमभट्टान आपणाल्या पित्याचे अनुपस्थितींत सरस्वती-शारदेचो वर प्राप्त केलो. ह्या वरा वरवीं ताका प्रतिभेचो लाव जालो. देखून ताणें 'नलचम्पू' बरोवंक घेतलो. अचकित ताचो पिताश्री परथून आयलो. ताच्या आगमनान त्रिविक्रमाली प्रतिभा लुप्त जाली. परिणामी ताचो 'नलचम्पू' अर्दकुटो उल्लो, अशी एक दन्तकथा सांगतात. धाव्या शेंकड्यांतलो (शके ८८१) कवी सोमदेव उपाख्य सोमप्रभसूरी हाणें बरयिल्लो आठ आश्वासांचो 'यशस्तिलकचम्पू' हो जैन विचारसरणींतलो आसा. तातूंतल्या पयल्या पांच आश्वासांत अवंतिनृप यशोधरान जैन धर्माचो स्वीकार कसो केलो ह्या प्रसंगाविशीं वर्णन करपी भाग येता. उर्वरित तीन आश्वासांत दिगंबर जैनांच्या नित्य उपासने पासत मार्गदर्शनपर म्हायती मेळटा.




भोज राजान (१०१८-६३) रामकथेर बेतिल्ले 'रामायणचंपू' वा 'चंपूरामायण'ची रचना केल्ली. इकराव्या शेंकड्यांतल्या अभिनवकालिदासाने संस्कृत 'भागवता'चेर बेतिल्लो 'भागवतचंपू' बरोवन चम्पूकाव्याचें म्हत्व वाडयलें. ताच्या उपरान्त अनंत कवीन (इकरावो-बारावो शेंकडो) महाभारत कथेवर 'भारतचंपू'ची रचना केली. ह्या चम्पू-काव्या आदींच्यो चम्पू-काव्य संरचना आजून मेरेन उपलब्ध जावंक नात. 'यश:तिलक' (कविवर सोमदेव सुरी), चम्पू-रामायण (कविवर भोजराज), आनन्द-वृन्दावन (कविवर कर्णपुरी), गोपाल-चम्पू (कविवर जीव गोस्वामी), नीलकण्ठ-चम्पू (कविवर नीलकण्ठ दीक्षित) हे काय विद्वन्मान्य काव्याविश्कार म्हळ्यार जाता. मराठींत एकूच चम्पू-काव्य उपलब्ध आसा,

ती म्हळ्यार कविवर निरंजन-माधव हांची 'सुभद्रा-चम्पू'ची मनोरम स्वरुपाची संरचना. हिन्दी भाशेंत यशोधरा(मैथिलीशरण गुप्त) ही संरचना चम्पू-काव्याचोच प्रकार अशें मानतात, पूण तें बरप चम्पू-काव्याचे कसवटणेक लागना.

काव्य (म्हळ्यार स्फुट काव्य, दीर्घ काव्य, खण्ड-काव्य, चम्पू-काव्य आनी महाकाव्य) हे संज्ञे संबंदान चिंतता आसतना काव्यगुणांचो सांगात धरचोच पडटा. ह्या काव्यांत रसाचो परमोत्कर्श जाता, ह्या काव्यांत आन्तरिक सोबीतकाय आसा, हें काव्य सुरबूस आसा, सुन्दर आसा, फुलांत जसो परमळ आसता तशें हें काव्य बरोवन जालां अशें म्हळें म्हूण संबंधित काव्याची कसवटणी साध्य जावंक पावना. कसवटणी साध्य करूंक निकश निश्चित करचे पडटात. काव्याची कसवटणी करूंक 'अर्थशक्ति', 'ओज', 'औदार्य', 'कान्ति', 'प्रसाद', 'माधुर्य', 'श्लेष', 'समता', 'समाधी' आनी 'सुकुमार्य' हेकाव्यगुण मतींत दवरचेच पडटात. उत्तम, उत्तमोतर, उत्तमोत्तम संस्कृत, हिन्दी वो मराठी भासांतल्या काव्यांत जे तरेन हे काव्यगुण आसतात, तेच तरेन इंग्लिश वो अन्य भासांनीय हे काव्यगुण आसतात. देखून आयजय आमी बेन जॉन्सन आनी शेक्सपीअर वाचतात.

चम्पू-काव्य हें महाकाव्या वरी आशिल्ल्यान निखटें वयर नोंदयिल्ले काव्यगुण आशिल्लें गद्य-पद्य स्वरूपांतलें बरप आसून चलना. ते निखटें कल्पनाविलास आनी रसपरिपोश करपी आसून चलना. भरतमुनीचो 'नाट्यशास्त्र' आनी धनञ्जयाचो 'दशरूपकम्' हे दोन ग्रंथ भारतीय साहित्यशास्त्रांचे आदारस्तंभ जावन आसात. काव्याचे कसवटणेक काव्याविश्काराचो विकास दाखोवपी कांय संधी अनिवार्य आसतात. कथेचो विकास जायत आसतना मुख, प्रतिमुख, गर्भ, विमर्श व निर्वहण ह्यो पाच संधींचो आदार जाय पडटा, अशें धाव्या शेंकड्यांतल्या धनञ्जयान बरयिल्ल्या 'दशरूपकां'त म्हळां. कांय शीर्श घटक पुराय चम्पू-काव्यांत प्रभावी आसूंक फाव. चम्पू काव्याचो नायक हो चतुरोदात्त, विवेकशील आसता - चतुरोदात्त नायकत्वं । कथानक बांधीव आसचें पडटा. प्रसंगांची गरज आसल्यारच तांचें वर्णन जावंक जाय, हें बंधन घालून घेवंचें पडटा.

चम्पू काव्याची विभागणी 'उच्छवासां'त करतात. काव्याच्या आरम्बाक संबंदीत देवतेची तेच परी इश्टदेवतेची अर्चना, प्रार्थना, वन्दना अपेक्षित आसता. उपरान्त कवीचो परिचय करून दिवपाच्या निमतान ताचो कौटुम्बिक परिचय निश्चित करपी सोयऱ्या-धायऱ्यांचोय नामनिर्देश करून तांका नमन करपाचीय परंपरा आसा.

चम्पूकाव्य बरपावळीचें हें स्वरूप आनी तिचें इतलें प्रदीर्घ दायज निर्माण करपी 'चम्पूकाव्य' आतां कोंकणी भाशेंतय रिगलां. कवी आनी साहित्यसमिक्षक सु. म. तडकोडकार हांणीं 'सु. म. तडकोड' ह्या कविनामान ललित लेखन केलां. तांचें लिखणेंतल्यान निर्माण जाल्लें 'कोंकणी चम्पू काव्य - गायत्रीदेवी'न चम्पुकाव्याचे उत्तम निर्मणेक जितले निकश लायतात, त्या साबार निकशां वरवीं तांचे प्रतिभेन आनी प्रज्ञेन एक मोलादीक साहित्यकृती घडोवपांत यश जोडलां, अशें म्हाका दिसता.

एकाद्रे साहित्यकृतीचें वाचन करून जातकच प्रामुख्यान तिचें स्वरूप, स्थल-काल-प्रसंग हांचीं वर्णनां, तातूंतलो भाशाविश्कार आनी व्यक्तिरेखा अशा चार घटकां वरवीं नियाळ घेवंक सोपें जाता. हांव ह्या पुस्तक-परिक्षणांत ह्याच चार घटकांचो आसपाव करूंक सोदतां.

**स्वरूप :**

चारशीं वर्सां राज्य करपी कदंबांलें साम्राज्य मुसलमान आक्रान्तांचो प्रवेश जाल्ल्यान निखळून पडलें अशें इतिहास सांगता. जॉर्ज एम. मोरायशांलें 'द कदंबकुल; अ हिस्टरी ऑफ एंशिएंट ऍण्ड मेडिव्हल कर्नाटक' (१९३१), तिओतोनियु डिसौझांलें 'गोवा थ्रू द एजीस : एन इकॉनॉमिक हिस्टरी' (१९९०) आनी दोतोर वर्षा कामत हांगेलें 'सांस्कृतिक वार्तापत्र' (२०१०) हें संदर्भसाहित्य इतिहासाची गवाय दितात. सु. म. तडकोड हांणी बरयिल्ल्या 'कोंकणी चम्पू काव्य - गायत्रीदेवी'क चवदाव्या शेंकड्यांतल्या गोंयच्या वाठाराची फाटभूंय लाबल्या. मुसलमान आक्रांतांनी घाल्ल्या रक्तपात करपी क्रूर घुरयांची नोंद इतिहासीक ग्रंथांनी वाचूंक मेळटा. तथापि वाचप्याक 'गायत्रीदेवीं'त हे रचनेवरवीं इतिहास तेच परी कल्पनारम्यतायेचो अणभव येता.

एक प्रजावत्सल राजा (कामदेव) आनी ताची घरकान्न (श्रद्धादेवी), तांचे दोन पूत (शश्ठदेव आनी गुल्हळदेव) आनी एक सून (कंकावती, गुल्हळदेव लग्न जावंक सोदीना.) ह्यो केन्द्रवर्ती व्यक्तिरेखा. शश्ठदेव आपणाक भीमभूपाळ ह्या नांवान संबोधन करूंक जाय म्हणपाची आज्ञा प्रसृत करता. तागेले घरकान्नीचें नांव कंकावती आनी धुवांचीं नांवां इन्दिरा आनी दृशा.

तांचे भोंवतणी प्रधानमंत्री, राजपुरोयत, ज्योतिशाचार्य बी आसातच. श्रद्धादेवीक कसलीच सुनशा नासतना तिच्या गर्भांत, ब्रह्मदेवाचे वासनेवरवीं, अचकित एके चली-भुरग्याक जल्म मेळटा. बारशाच्या दिसा त्या चली-भुरग्याक 'गायत्रीदेवी' हें नांव मेळटा. शश्ठदेवालें तागेल्या पित्याकडेन कशेंच पटना. अशें हें फुडारांत जातलें म्हणपाची नोंद त्या पुताल्या जातकांत स्पश्टपणान अधोरेखित केल्ली आसता. कामदेवाक ताच्या मोगाळ आनी आज्ञाधारक अशा गुल्हळदेवालो आदार उरता. मानसशास्त्रीय दिश्टींतल्यान चली भुरग्यालो लागसार सदैव आपणाल्या पित्याकडेन आसता, तद्वत् गायत्रीदेवी पुराय कामदेवाली विश्वासपात्र संतती म्हुण साबार जाणतात. ही गजाल गुल्हळदेवाक मान्य आसता; परंत शश्ठदेवाक ती निखालस मान्य नासता. तो तिचो दुस्वास करता. तो तागेल्या सचिवाचेर (रहस्याधिकृताचेर) चडावत निंबून आसता. दिल्लीच्या सुलतानाचो होन्नावरांतलो राज्यपाल नबाब जमालउद्दीन महम्मदय ताका लागीचोसो दिसता, इतलो की तो जमालउद्दीनाचे धुवेक आपणावन आपण इस्लाम पंथाचो स्वीकार करतां, अशी मांडणीय करता.

गायत्रीचें जयपूरचो कच्छवाहा राजपूत राणा मानसिंग (द्वितीय) हाचे कडेन लग्न जाता. ती उत्तर भारतांत वता. मजगतींत शश्ठदेवाक लागसार आशिल्लो जमालउद्दीन परत परत राज्याचेर आक्रमण करता. ताका पालव दिवंक आनी गायत्रीदेवीक ना नपश्चात् करूंक शश्ठदेव रात-दीस एकठांय करता आनी जमालउद्दीन परत परत लुटालूट

आनी बायलांचेर बलात्कार करून आनी राजपाटण उज्याचे भकीक घालून पुराय राज्याचो विध्वंस करता. अन्ततः शश्ठदेवाक वस्तुस्थिती होलमता आनी पश्चातापय जाता, तो क्षमेची याचना करता, पुण ताचेर कोणूच निंबून रावंक सोदिना. कामदेव आनी श्रद्धादेवी संन्यास धारण करून रानांनी रावतात. अथक प्रयत्नांती शश्ठदेव आपणाल्या धाकल्या भावालो विश्वास संपादन करता.

गायत्रीदेवील्या पतीची म्हळ्यार राणा मानसिंगाली दिल्ली सुलतानचो शासक अल्लाउद्दीन खिलजीचो एक सेनापती मलिक काफूरावरवीं हत्या जाता. ती आपणाल्या पुताक म्हळ्यार राजकुंवर जगतसिंग हांका घेवन पर्थून गोंयां येता. शश्ठदेव आपणाले धाकले भयणेचो विश्वास संपादन करपा पासत पुराय येत्न करता. शनैः शनैः प्रधानमंत्र्याक आनी राजसभेंतल्या साबार जाणांक तागेल्या प्रांजलपणाची खात्री जाता. जनसामान्य भौसय तागेलो स्वीकार करता. निमाणे कडेन गायत्रीदेवीलोय विश्वास संपादन करपांत ताका यश प्राप्त जाता. तो पुराय तांकी सयत त्या जमालउद्दीनाचो नि:पात करूंक वावुरता. हे रणधुमाळींत गुल्हळदेव हुतात्मो जाता. एके काळचो शश्ठदेव रहस्याधिकृत आपणाल्या धनया आड अगणित षडयंत्रां साकार करता. दास, सेवक, कामेरी कोण कोणाल्या पंगडांत कांयच समजना. गायत्रीदेवीलो पूत शश्ठदेव आपणालें हृदय आनी मन थाऱ्यार धरून विध्वंस जाल्ले नगरीची नव्यान उभारणी करता. पर्थून जमालउद्दीन घुरी घालता. पुराय गोंय कामदेवाल्या व्हडल्या पुताक साह्य करूंक धांवता. शश्ठदेवालो प्रधानमंत्री जमालउद्दीनाली हत्या करता. अचकित गायत्रीदेवीचीय हत्या जाता. हे नृशंस हत्येचो आळ शश्ठदेवाचेर येता. तो तिच्या पुताक कसलोच उपद्रव जावंचो न्हय अशें सुवातेर धाडून दिता. शश्ठदेवाली घरकान्न कंकावती सळाबळा जाता. मजगतीं रहस्याधिकृत तिगेल्या घोवाली हत्या करता. ती घरकान्न अफाट जाता. राजपाटणांतले घरभेदी परक्यांक साह्य करतात हें तिका सोसूंक जाय ना. ती स्राप दिता साबार राजपाटणाक - जी आंकवार चली ह्या वाठारांत लग्न जावन येतली, ती केन्नाच फळची ना. उपरान्त ती आत्महत्या करता. भोंवतणी भ्रम प्रतीती पातळिल्ली आसता. साबार जाण विवर्तांत पडिल्ल्यावरी वावरताना पळोवन प्रधानमंत्र्याचेर अशा रायविरयत राज्यांत सवस्तिकाय दिवपाक जें कितें करूंक जाय तें पुराय करपाचें दायित्व येता. राजकुंवर जगतसिंगाक लिपोवन दवरपाचेंय दायित्व सांबाळचे पडटा. तो साबारांक गतकाळाचें वजें घेवन जगू नाकात म्हुण प्रबोधन करता. शांतरसाची निर्मणी जायत हांगासर ह्या चंपू काव्याची सांगता जाता. हें जालें ह्या चंपू काव्याचें स्वरूप.

**स्थल-काल-प्रसंग हांचीं वर्णनां :**

ह्या काव्यांतलीं स्थल-काल-प्रसंग हांचीं वर्णनां अमाप आसात. तांचो आपरोस घेवपाचो येत्नय ह्या पुस्तकपरिक्षणांत साध्य जावचो ना. निखटी तांची नोंद घेतल्यारय ती दीर्घ-प्रदीर्घ-सुदीर्घ जावं येता.

सूत्रधारिणी सूत्रधाराक सांगता, तूं नितळ मनान आनी हरव्या चित्तान जी कथा सांगूंक सोदता, ती निर्मळ उतरांनी मांड. जे तरेन घडलें ते तरेन मांड. जाय तेदनां पुस्पां वरी कोमल जा, प्रसंगांक गिंवासून धर आनी उजुवो संवादु बरय. आनी फावता तेन्ना आकासा वरी जैसौ मेघु गर्झो तैसौ महा थोरू उतरां बरय. कथा अशी सांग जी बंदखणींतुल्या हौंस पखीक नेमाच्या पांदऱ्यांतल्यान मुक्त करता.

तेदनां सूत्रधार म्हणटा -

*किरी शिरली ही अवदसा हुंडक्यांनी रड्डू कसो?*
*हिण्यां तिण्यां आनंद न्हाल्लों हांव भैरवी गाऊं कसो?*
*गायिल्लें गीत ईश्वरा दी पर्थूनय ओंठांत ।*
*इतिहासाचे साक्षीक दोनूंच दुकां दोळ्यांत ।।*
*दोळ्यांतुल्या सपनांनी पाचूंचो धोलता मोर ।*
*मरणांतक वेळ धोलता स्वर रात ही घोर ।।उपोद्धात ६५।।*

तो मुखार म्हणटा, आशीकुशीक छत्तीस गांवगिरे. तातूंतल्या एका गांवांतले साबार कुसमणवासी हांगासर येतात आनी न्हंयेचे देगेर भांगरमाती सोदतात. तांका तें भांगर विकपाचें नासता. तांका त्या भांगरपिठ्यावरवीं अळंकार करून घेवपाचे नासतात. ती भांगरमाती जाल्या शके ११७२सावन शके १३५१मेरेनच्या काळांत. ह्याच काळांत केन्नाय तरी कदंब साम्राज्याच्यो ज्यो भोयो भोयो जाल्यो, ताचो उगडास येता.

चांदराचें वर्णन करता आसतना कवी म्हणटा -

*जयकेशी राजकुंवर । चान्दरा उबारी राजपाटण ।*
*गोपकपट्टणांतली । चान्यावरी अन्दूक रत्नांची खण । उपोद्धात ४८)*
*दख्खन राणा अंकित । तमारी त्रिभुवनमल्ल कामदेव ।*
*हत्यारून उबारिलें । कोंकण राश्ट्र सोल्लास वैभव ।।उपोद्धात ५१।।*

ब्रह्मदेवय पुश्कर तीर्थस्थळ विसरून जंय आयलो, त्या गोंयांतल्या सैंबाचे वर्णन करतना कवी म्हणटा -

*शिशिर रुतूंतलो उद्दाम । परमळीत कुडींक करता अविरल ।*
*चन्द्रमु सुखां सपनांतु । न्हिदें परयांत सुखाचो कलकल ।।*
*हें तर अनवट उपवन । न्हय नन्दन कानन नन्दन उपवन ।*
*केवळ शितिकण्ठ जीवन । कुशवन पावन वनरम्य वासन ।।*

'न'च्या अनुप्रासा वरवीं ही पुराय रचनाच मंद-मंजूळ स्वर उगतायता अशें जाणवता.

हे फाटभुंयेर गायिल्ली भूपाळी तितलीच तत्कालीन राजाच्या स्वभावाचोय परिचय करून दिता :

*पुर्वसुरींनी तुजिया घडयलो । कांचिपुरमाचोय साक्षात्कार ।*
*उठी उठी लक्षुमी तनया । जाली झिळमिळटी फांत्या पार ।।*
*मयुरवर्माल्या शंकर भक्तीन । उबयली कदंब वंशाची गुडी ।*
*गुल्हळदेवा भावार्थाची । जतनायेन सांबाळ्ली पुडी ।।*
*जैनांच्या जिन परंपरेचो । तुमींय केलो सदैव बहुमान ।*
*अनेकांतवादी राजन् तूंय । तरीय शिवाचें शुद्ध स्वभाव ।।*

'कोंकणी चंपू काव्य गायत्रीदेवीं'त जंय जंय ब्रह्मदेवालीं देवळां आसात थंयसर वचूंक सोदपी राजकुमारी वता. त्या निमतान पार्शें, विर्नोडें, गोपकपट्टमांतली प्रशस्त करमळी, नाडकर्ण्यांची देवकरमळी, सानकरमळी, ब्रह्मकरमळी, कोटंब-कुळें गांवांतलें अटवें अशा परिसरांचेंय प्रसंगानुरूप वर्णन मेळटा.

कवी सु. म. तडकोड हांणीं ह्या चंपू काव्याच्या संदर्भांत भारतीय

दिनदर्शिकेचो भौच नकसूद अभ्यास केल्लो अशें दिसता. सर्वनाशाचो हुमरो वालांडून वचपी कलियुग संवत ४३४८, ह्या चाळिसाव्या पराभव नामक संवत्सराचोय माग काडिल्लो दिसता. पराभव संवत्सराचे परिणाम आनी कदंब कुळीचो उच्छेद हांचो संबंद लावपाचो येत्न जाला अशें दिसता. श्रद्धा-अश्रद्धा हांचे हुंबकळणेत नवजात बाळकाचें जातक, लग्नाच्या संबंदान पत्रिका पळोवपाची पद्धतय ही त्या त्या काळाची देणगी. तिचें पडबिंब ह्या चंपू काव्यांत पळोवंक मेळटा. शश्ठदेवाच्या आनी गायत्रीदेवीच्या संबंदान तें जातक कांय प्रमाणांत फटीचेंय थारता. ताचेंय पडबिंब ह्या चंपू काव्यांत पडिल्लें आसा.

**भाशाविश्कार :**

'कोंकणी चंपुकाव्य गायत्रीदेवीं'तलो भाशाविश्कार हो पुराय विस्तृत स्वरूपाचो जावन आसा. ताचें आकलन करून घेता आसतना व्याकरण, शब्दालंकार, अर्थालंकार, जातिवृत्त, ओपारी इतलेंच न्हय तर तत्कालीन उलोवपांतली भास हांचोय विचार करचो पडटा. काव्याचे रचनेंत जी उतरां आयल्यात, तातूंतली कितलीशीं उतरां आयज घोळटिकेंत दिसना. देखून ह्या काव्याचे निमाणे उतरावळ दिल्या, तांचो अर्थय दिला. इतिहासाचार्य विश्वनाथ काशीनाथ राजवाडे हांणीं ज्ञानेश्वरींतल्या भाशिक मांडणेचे अनुमान करून तितूंत जाणवल्ल्या व्याकरणाची बांदावळ केल्ली. 'कोंकणी चंपुकाव्य गायत्रीदेवीं'तय एके तरेचें व्याकरणी स्वरूप नियाळूंक संद आसा. भाशेविज्ञान आनी भाशाशास्त्र ह्या विशयांतले तज्ज्ञ ह्या भाशाविश्काराच्या संबंदान चडावतशी निरिक्षणां मांडूंक पावतले अशें दिसता. साहित्याच्या नकसूद स्वरूपाचो सोद घेवपी अभ्यासकाक भारतीय साहित्यशास्त्राचे तेच परी अस्तंत साहित्यशास्त्राचे दिश्टींतल्यान सैद्धान्तिक आनी उपयोजनात्मक शैलीचोय परिचय जावं येता.

**व्यक्तिरेखा :**

व्यक्तिरेखांविशींचो विचार करता आसतना सूत्रधार आनी सूत्रधारिणी ह्यो व्यक्तिरेखा मूळ कथानका कडेन लागसार दवरनात. तांची भूमिका निखटी कथेचें निरूपण करपाचें. देखून तांचो आस्पाव व्यक्तिरेखांच्या वर्गांत करूंक संद मेळना.

शश्ठदेव, गुल्हळदेव, गायत्रीदेवी, कंकावती, रहस्याधिकृत, जमालउद्दीन, प्रधानमंत्री हांका संचालक-व्यक्तिरेखा (डायनामिक कॅरेक्टर्स) अशें म्हणूं येता. शेकीं कामदेव, श्रद्धादेवी, राजा मानसिंग (द्वितीय) ह्यो व्यक्तिरेखा केन्द्रवर्ती आशिल्लेवरी दिसतात जाल्यारय तांचो समावेश त्या वर्गांत करूंक मेळना, देखून तांका पूर्णंक व्यक्तिरेखा (राउण्ड कॅरेक्टर्स) अशें म्हणूं येता. राणा मानसिंग, तागेल्यो दोन राणयो मरूधर कँवर आनी किशोर कँवर, गायत्रीदेवील्यो सखी मायालता, प्रियंवदा, अनसुया, राजपुरोयत आदींचो आस्पाव स्थिर व्यक्तिरेखांत (स्टॅटिक कॅरेक्टर्स) करूंक येता. मंत्रीगण, राज्यांतले विचारवंत, होळीचे कार्यावळींतलो वा जमालउद्दीना मुखार संघर्श करूंक आयिल्लो भौस, गोंयच्या विंगड विंगड परिसरांतल्यान वो जयपूरच्यान आयिल्ले सैनिक, सदैव सत्तास्थानाचे आड कारस्थानां करीत रावपी किडितां, किड्डुस्सां, गायत्रीदेवील्या लग्नाक आयिल्ले सुसंस्कृत आनी धनवन्त निमंत्रित, अल्लाउद्दीन खिलजी, मलिक काफूर, दोनूंय वटेनच्या कुशाग्र प्रहरींक आनी गूढाकार, हेरक, हितप्राणी, अनिरुद्ध, अपसर्प, वार्तानुकर्शक, बहिश्चर, अवसर्पण, चारण आनी हेरिका अशा गुप्तहेरांर साबार रुढीवादी व्यक्तिरेखाच्या (स्टॉक कॅरेक्टर्स) वर्गांत समाविश्ट करूंक येता. मनांत नासतनाय कुकृत्यां करची पडली म्हुण आत्महत्या करपी प्रतिकात्मक व्यक्तिरेखाय (सिंबॉलिक कॅरेक्टर्स) ह्या चंपू काव्यांत आसात.

गोंयच्या उल्हासमय वाठाराची दुर्दशा करपी घरभेद्यांचो आनी जमालउद्दीनाच्या कर्तुपाचो संदर्भ घेवन कवी म्हणटा -

*घराब्याक सुडाच्या दंशीलो सर्पांनी ।*
*यज्ञाची नश्टली धरा त्या दुश्टांनी ।*
*भश्टिली अस्तुरी गर्भिणी शुक्रांनी ।*
*अटंय बुद्धीच्या कुपापी उरांनी।।*

मुखार दिल्ल्या कांय काव्यचरणांनी एकाद्री व्यक्तिरेखा सोडत जाल्यार तो तो वाठारच एके व्यक्तिरेखेची भूमिका आपणायता अशें दिसता. देखून तांचो समावेश व्यक्तिरेखांल्या खंयच्या वर्गांत करप होय एक प्रस्न उप्रासता :

*संदेश मेळ्ळो झडकरी । वेरें पारिध दुर्गाचो गडकरी ।*
*राजाचो कश्टकरी । सरलो सत्व घेवन अजस्र दळ ।।*
*तिर खोल अति नृदुर्ग । दुर्ग दळांतलो अटल उरग ।*
*करी असो उत्साहभंग । शत्रू पायांक घालून वेटोळीं ।।*
*काण्डोळ जलतट दुर्ग । पश्चिमेचोय स्वदेशानुराग ।*
*सुरक्षेचो अंगराग । प्रशिक्षित खारवी पागी तारवटी ।।*
*दुर्गांत दुर्ग सत्तरी । सौभाग्य त्रिपुण्ड्र ही सिन्दुरी ।*
*सुरक्षा वेवस्था उपनेत्री । संपूर्ण शक्तिमात्रेंत धांवली ।।*

तशें पळयत जाल्यार संचालक-व्यक्तिरेखांनी कितल्योश्योच पक्षपोषक (प्रोटॅगॉनिस्ट कॅरेक्टर्स) आनी प्रतिद्वन्द्वी व्यक्तिरेखा (अंटागॉनिस्ट कॅरेक्टर्स) आसात.

कितलेशे फावटी एक प्रस्न सतायता शश्ठदेव हो नायक वो गायत्रीदेवी ही नायक? हांचे मजगतींत कोणाक उपनायक स्वरुपांतली व्यक्तिरेखा (ड्युटेरागॉनिस्ट कॅरेक्टर्स) म्हूण संबोधन करूंक मेळटा? ह्या तेच परी अशा कैक प्रस्नांची निर्मणी करून कवी सु. म. तडकोड हांणीं अभ्यासकां मुखार चिंतनशील मळ उगते केलां अशें म्हणूं येता. ह्या चंपू काव्यांतलो शश्ठदेव हाची शोकांतिका, काय गायत्रीदेवीची शोकांतिका असो आनी एक प्रस्न उप्रासता.

हें 'कोंकणी चम्पू काव्य गायत्रीदेवी' वाचतना कोंकणी भाशेची वज कितली वज्रासमान आसा, वर्णनपरता वाडोवपी आसा, खडेगांठ आसा, अर्थपुराय आसा आनी कसल्याय विशयांतले कथात्मकतेक केळोवपी आसा म्हणपाचें गत्त जाता. कवी सु. म. तडकोड हांणीं आनी एक चंपू काव्य बरोवपाचें निश्चित केलां अशें दिसता. घडये तांका खंड काव्य चडावत आकर्शित करता आसूये. तरीकय तांचे 'पांयजेल' आनी 'एक कृश्ण कळी' हे तांचे कोंकणींतले स्फुट कवितांचे झेले भौच म्हत्वाचे आसात, ही गजाल विसरायेर घालूंक नज.

'कोंकणीं चम्पू-काव्य : गायत्रीदेवी' हे संचनेंत सु. म. तडकोड

हांगेली प्रतिभा आनी प्रज्ञा हांचो मनोहर संगम दिसता कारण वयर नोंदयिल्ल्या साबार काव्यगुणांचो परमोत्कर्श चम्पू-काव्याचे कसवटणेक पुराय न्याय दिता. गोंयच्या इतिहासांत चवदाव्या शतमानांतल्या कदम्ब साम्राज्याचो उल्लेख जाता. त्या शतमानाचे निमाणे त्या साम्राज्याची दारुण, दु:सह पडझड जाली. हे फाटभुंयेर इतिहास आनी कल्पनारम्यताय हांचो प्रतिभाविलास तेच परी प्रज्ञाशीलताय हांच्या आदारान 'कोंकणीं चम्पू-काव्य : गायत्रीदेवी' ही संरचना साकार जाता. ही इतिहासाश्रित गद्य-पद्यमय संरचना प्रभावी जावपाची कारणां अशी की कविवर सु. म. तडकोड हांणीं रचिल्लें हें कथनात्मक काव्य कथावस्तु, चरित्र, पदावली आनी, विचारतत्त्व अशा चार खांब्यांचेर निंबून आसा. तेच परी 'कोंकणीं चम्पू-काव्य : गायत्रीदेवी' हें निर्भयता, निश्ठा आनी आत्म-सम्मान या तीन लक्षणांचो परिचय करून दिता देखूनच हे संरचनेंत शृंगार, वीर आनी शान्त ह्या तीन रसांचो परमोत्कर्श जाल्लो दिसता. बीभत्स रसाचोय तितलोच अणभव येता. जंय घरांतल्या लोकां कडसून असभ्य, घृणित, बर्बर, भयानक,रानवट वागणूक जाता, थंयसर भायल्यां कडसून बरे वागणुकीची अपेक्षा दवरप कितलें शाणेपणाचें, असो प्रस्न उप्रासता. अशा वातावरणांत गायत्रीदेवीच्या तना-मनाच्यो वादऱ्यो वादऱ्यो जातात.

मध्यवर्ती कथा गायत्रीदेवीची - एके महाराणीची आसा. तिचे जिणेंत तिचो कसलोच अपराध नासतना, दोश नासतना तिच्या वांट्याक अवमानजनक प्रसंग येतात आनी तातूंत तिका आपणालो प्राण वगडावचो पडटा. एके निरागस, अपौरुशेय जिणेची करुणरम्य गाथा. ही गाथा आसा अशे एके व्यक्तीची, जी निर्मणी आशिल्ली, विशेशपणान सांगचें जाल्यार, स्वयं सृश्टिकर्त्या ब्रह्मदेवाली. ब्रह्मदेवाली ही पुत्री धतरेर जल्माक आयली आनी मातीच्या पावलांनी चलली. ही अस्तुरी निश्कलङ्क खीण जगली. अपाप मनाची, विकल्मशित विचारांची ही अनघा. आपणाक अमाप तकालस दिवपी व्यक्तीकय, खेप नासतना, क्षमा करपी ही अमला. इतलें करूनय तिका जगचें पडलें जावन जीणेरूपी हवनांत ब्रह्मदेवान धुकलून वडयिल्ली एक समिधा कशी. ती नाशिल्ली कोणाची मिंधी, आनी नाशिल्ली कोणाली असखी. वांट्याक आयिल्ली पित्याची भूमिका निव्वळ भागधेय म्हूण न्हय तर, व्हडा प्रसन्नपणान जगपी तिचो पिता आशिल्लो एक सम्राट. तोय तिच्या प्रारब्ध-नाट्याक सुखदायी करूंक पावलो ना. तिचे दोन बन्धू म्हळ्यार बलशाली, पराक्रमी पौरुशत्वाचीं प्रतिकां; परन्त तेय आहत जाले, हतबल जाले, अपेशी जाले, तिगेली राखण करता आसतना. तीन राण्यांचो घोव आशिल्लो एक महान रणवीर राय, तिचे कडेन आपण जावन आकर्शित जाल्लो, संबंदितांक फुसलावन, व्हडा येत्नान लग्नूय केलें... तोय तिचें रक्षण करूंक पावलो ना. असले हे अटमटवाळे तिका कित्याक काडचे पडले, हें कुवाडेंच! दुर्देव जेन्ना क्रीडा करता तेन्ना पुराय जिणें हतप्रभ जावंक लागता. कांय जाण तातूंतल्यान सावरतात.

ह्या चम्पू-काव्याचो कवी तत्कालीन काळाचें मानचित्र चित्रायता आसतना पंचांगा वरवीं संवत्सराचेंय अनुमान करता आनी त्या संवत्सराचे दुश्परिणाम हांचोय अन्वय लायतना दिसता. तो कलियुग संवत ४३४८त पराभव नामक संवत्सर लागिल्लें अशी नोंद करता. ह्या संवत्सराचे परिणाम म्हळ्यार पीडा, वेदना हांचो अच्छेव, विप्लव साबारांक भोगचे पडले, अशी तो तारतम्या वरवीं सुचोवणी करूंक सोदता.

अशा वातावरणांत राजा कामदेव कदम्ब वंशांचो नाशिल्लो जाल्यारय, त्या वंशाच्या साम्राज्याक सुगूर दवरपा पास्वत धडपडटा. दिल्लींतल्या सुलतान अल्लाउद्दीनचो सेनापती मलिक कफूरा करवीं गोपकपट्टणाचो ऱ्हास जाता. ताचो ज्येश्ठ पूत शश्ठदेव लेगीत ताचे आड वता. तो पूत मूळ नक्षत्राचेर जल्माक आयिल्लो, पित्त प्रकृतीचो, अधिकार प्रिय आनी विचलीत वृत्तीचो शश्ठदेव उपरान्त वेळ-प्रसंग वळखून वावुरता, परन्त तो मेरेन भौच कळाव जाल्लो आसता. आशिल्ल्याचें नाशिल्लें करपी अश्यो घडणुको घडटात. कोण इश्ट आनी कोण शत्रू हेंच कळना. नरसंहार जाता.

शश्ठदेवाची हत्या जातकच ताची घरकान्न राणी कंकावती अफाट जाता. तिचें वर्णन कवी करता तें अशें :

*हुंकार भेदी ब्रह्माण्ड । खदिरांगार जाळी अग्निकाण्ड ।*
*दारूणच प्राणदण्ड । वेगवती कंका रौळी धांवली ।।दउ१८७।।*
*धपा धपा धेंपांनी । पसरट आंगळांचेर निम्बुनी ।*
*अग्निपथ खोंटानी । अविरत परिणत अपार भयांकृत ।।दउ१८८।।*
*पांय जाले अग्निरथ । कुशावती जाली अति प्रदीप्त ।*
*पती विरही संतप्त । आयल्यो साबार अस्तुऱ्यो तडेर ।।दउ१८९।।*
*कुडी वयले अळंकार । जात्यांनीय भरडले भारंभार ।*
*पति विरयत निराकार । मारले शेंवटून ते न्हयेंत ।।दउ१९०।।*
*आंत कातरी कुठार । जळीं मळीं अस्तुऱ्यांचे शव कुठौर ।*
*धाडौन धाडौन ऊर । काची बुचीं रडती असहाय्य ।।दउ१९१।।*
*प्रेत कोटि समा युक्त । प्रलया नील सदैव नत ।*
*कंकावती अपमानित । उब्यानच उज्वल जळूंक लागली ।।दउ१९२।।*
*आंगळां रुतलीं पाशाणीं । खोंट गेली खाईं पाशाणीं ।*
*रुद्राणी भारीत स्रावणी । आसमंत जालो अति दाहक ।।दउ१९३।।*
*सुर्याग्निचेच दोळे । हुहुंकारान शिव वाठार लोळे ।*
*अग्नितांडव जळे । चन्द्रपूर जालें अति अग्निपूर ।।दउ१९४।।*
*न्हय हो शुभ वाठार । सौभाग्य कांक्षिणींक करता हाहा:कार ।*
*नाका करू संवसार । हांगासरल्या निचांच्या घरांनी ।।दउ१९५।।*
*मनीस हांगा सरलो । भिजुडांचो अवतार आश्लेषु करिलो ।*
*दादुलो मोह भरलो । तो भ्रश्टाचाराचो मुकुट मणी ।।दउ१९६।।*
*जाती पाती काती । दादुल्याच्या अन्तरी देहान्ती ।*
*निर्मळ जिणेंत वाती । दिवली ताची कशी पेटेचि ना ।।दउ१९७।।*
*जो जाय देशद्रोही । तो विकरी करी अस्तुरेची लताग्रही ।*
*ती जाय शयनग्रही । तिचे जिणे अवतार नाना परी ।।दउ१९८।।*
*टाळ गांव चान्दरा । गोंयांतल्या खंयच्याय वच वाठारा ।*
*दुहिता ही निरन्तरा । ह्या गांवाक सोबून दिसेचि ना ।।दउ१९९।।*
*आयल्यार अशी धूव । पुराय करूंक कामावेग भाव ।*
*आज्ञा कडसरून राव । राण्ड बेगोबेग जातलें तूं ।।दउ२००।।*

*पती आसूनय राण्ड । जातलें भोगवती तूं पतीचें पाखण्ड ।*
*केवळ तूं भूमि खण्ड । रक्त बीजच रोवून वतलो तो ।।दउ२०१।।*
*दादुलो हो सुन्दरा । प्रसंगी तुका करतय पर दारा ।*
*ह्या गांवच्या दारा । मोगाळा चुकूनय नाका येवं ।।दउ२०२।।*
*चान्दर पाड्ड जावं । भायर गेल्ली व्हंकल बरी जावं ।*
*हांगासर राण्ड जावं । कानांर केंस काडून आयिल्ल्यांनो ।।दउ२०३।।*
*कुंडे कुस्कुर तूं राव । दुडवाचे आशे रांडाव जावं ।*
*आशे भगत ना साव । रांडाव जावं तूं रांडाव जावं ।।दउ२०४।।*
*कंका घासल्यो खोंटो । घसा घसा प्रस्तराचो पाटो ।*
*दुमदुमलो तळतळाट । चान्दरचो जालो काया पालट ।।दउ२०५।।*
*चिप्पुट काशीताळी । शेंवटून मारिल्यो न्हंये तळी ।*
*तन्मणि मोहनमाळी । भिरकटावनच दिल्यो हिण्यां तिण्यां ।।दउ२०६।।*
*आंब्याड्या पुस्प कुडक । पाटल्यो तोडे कांकण लोलक ।*
*पौवळी तॉण्डल कुटक । जाले थटाक मोशक दस्यु रजनीचर ।।दउ२०७।।*
*मुद्दी नत्तू चक्रसरू । कोणूच घालचो ना घरदारू ।*
*कंकाले आज्ञेरू । केलें वन्दनरू जण एक स्त्रियेन ।।दउ२०८।।*
*हाडली जण अस्तुरेन । मुद्दी नत्तू आनी वेड तीरगण ।*
*वज्राकुटकी काँकण । बुगडी तीनमाळा सरू आकर्षक ।।दउ२०९।।*
*चक्रसरू सुत्तुंगली । सरपळी चपलाहार पाटली ।*
*तीनमाळां सरूली । तिरगणि सोडयली कंकादेवीण ।।दउ२१०।।*
*अमोल रगताळ वाट । की अनमोल भांगराळ राजकाट ।*
*निर्शेलोच न्हंये पाट । कुशावती जाली बापुडी बापुडी ।।दउ२११।।*
*करी दान मधुर वचन । खांकनवाळ कुबेरय जाय संकिर्न ।*
*सांगात शेकिं कृतघ्न । संवसार जाय रुक्ष कटु रुखावळ ।।दउ२१२।।*
*श्रेष्ठ व्यक्तीचे आड । अनवरत अधम व्यक्ती सुपराड ।*
*धडपडटा करूंक पाड । तांच्या येत्लांक नांव षडयन्त्र ।।दउ२१३।।*
*काडात सोदून तांका । पळभर क्षमा भाव दाखोवं नाका ।*
*विखा वालेक उदका । थेंबोय अम्रिताचो नाका दिवं ।।दउ२१४।।*
*ह्यो व्यक्ति परोपजिवी । बेन्दुल्ले खाय बेनुल्ल सुटावीं ।*
*उत्तम व्यक्तीं न भावी । बेनुल्ल्यांक तांची जाय नसाय ।।दउ२१५।।*
*आयक आकाशवाणी । गर्जित्रलीच कंकावती राणी ।*
*घेतलें कुठार पाणीं । धोमशिलेंच अन्तःपुर आंतांत ।।दउ२१६।।*
*पाड जावं पाड जावं । चान्दरी पुरायच पाड्ड जावं ।*
*म्हणत म्हणतच गांव । त्यागिलो ते राणी कंकावतीन ।।दउ२१७।।*
*कल्लोळ कल्लोळ जालो । अगणित हृदय कम्पच निनादलो ।*
*विवरण पट निपचितलो । अन्ततः तर्क बुद्द तर्क विरयत ।।दउ२१८।।*

हो बीभत्स रस केळोवपी कोंकणी भास इतली समृद्ध आसा, म्हणपाची साक्ष गावता. मंगलाचरणान आरंब जाल्लें हें चम्पू-काव्य सूत्रधार आनी ताची सहाय्यक (सूत्रधारिणी) हांगेल्या परस्परांतल्या उलोवपांतल्यान कथानक उगतें करूंक लागता. सूत्रधार हो शुद्ध विश्कम्भ व्यक्तिरेखा आसा आनी तो शुद्ध कोंकणींत उलयता. सूत्रधारिणी ही संकीर्ण-विश्कम्भ व्यक्तिरेखा आसा आनी ती तत्कालीन पाली आनी कोंकणी भासां वरवीं वार्तालाप करता. दोगूय जाण कथानकाची इतिहासीक फाटभूंय आनी मुखार घडिल्ल्या प्रसंगांची जाणविकाय करून दितात. पुराय बरे-वायट प्रसंग सोंपतकच पर्थून हें युगूल वाचप्यां मुखार येता आनी हें चम्पू-काव्य म्हळ्यार आरण्यक न्हय, आकाशभाशित न्हय, वेद-मंत्र न्हय परन्त गूढ तत्त्वांचो भाश्यार्थ जावन आसा अशें सांगतात. सूत्रधार सांगता -

*वेद न्हयंत गो चम्पू । तर वेदांलो तृतीय नेत्र चम्पू ।*
*भाश्यच केवळ चम्पू । वैदिक कथन गद्यींच रानांतुलें ।।*

हें 'कोंकणी चम्पू-काव्य : गायत्रीदेवी' वाचतकच अन्तर्मनांत एक तरेचो विस्वास उदेता आनी तो सांगता, कोंकणींत सालंकार, शिष्ट नागर भाशे वरवीं परिप्लुत आशिल्लीमहाकाव्यात्मक संरचना साकार जावपाचो समय लागीं पावला.

'कोंकणी चम्पू-काव्य : गायत्रीदेवी'
कवी : सु. म. तडकोड,
केदार प्रकाशन गृह,
पानां २२४,
मोल रुपये तीनशीं

संपर्क: 9420595139

***



# जराशास्त्र - वृद्धोपनिषद

**डॉ. सोबिता किर्तनी**

-५-

आत्मगत कल्याण हे संकल्पने प्रमाण मनीस आपल्या जिविताची भावनीक आनी विचारीक पांवड्यार मोलावणी करता. विचारीक पावंड्यार मनीस आपूण कितलो धादोशी-समाधानी आसा हें थारायता. भावनीक पांवड्यार मनीस आपूण कितलो आनंदी आसा हें थारायता. हाचो अर्थ ह्या लोकांक कसलीच खंत आसना वा दुख्ख आसना अशें न्हय. तरी ती खंत, तें दुख्ख पयस दवरून हे लोक समाधानी वा धादोशी आनी आनंदी रावंक शकतात. जायते घटक हे संकल्पने कडेन जोडून आसात. देखीक - जोड, लिंग, पिराय, व्यवसाय, शिक्षण, हुशारकी, धर्म, भलायकी, लग्न-स्थिती, लोकां कडेन आशिल्लो संबंद, जिवितांतल्यो घडणुको, व्यक्तिमत्व आनी संस्कृतीक हें घटक.

पैशांनी मनीस आपल्यो गरजो भागोवंक शकता. गरजे पुरते लागपी पैशे आसले जाल्यार पुरो. चड दुडू आसले म्हूण मनीस चड खोशी जातलो अशें ना. पूण गरजांक लागपा इतले लेगीत दुडू नासले जाल्यार मात मनीस दुख्खी जाता. जरी जाणटेपणांत लोक दुख्खी, खंती, तिडकी जातात असो समज आसा, तरी संशोधनांतल्यान कळटा की वाडटे पिराये वांगडा जाण्टेपणांत समाधानय वाडटा.



दादले आनी बायलो हांच्या आत्मगत कल्याणांत व्हडलोसो कांय फरक ना. तरी बायलो दुख्ख चड प्रमाणांत अणभवतात. नोकरी-व्यवसाय करपी लोक चड समाधानी आसतात. तशेंच उंचेलें शिक्षण घेतिल्ले लोक चड समाधानी आसतात. उंचेल्या शिक्षणा वांगडा बरी नोकरी आनी जोड आसपाची शक्यताय वाडटा आनी देखून शिक्षणाचें समाधानाकडेन नातें आसा. हुशारकीचो समाधानाकडेन सरळ स्पश्ट नातें नासून हुशार लोक चड शिक्षण घेवन बरी नोकरी आनी जोड जोडूंक पावतात.

धर्माचो नासून धर्मीक आसपाचें सूख-समाधाना कडेन नातें आसा. धर्मीक मनशाक कठीण परिस्थितींत मानसीक बळगें मेळटा. तशेंच धर्मीक कृती खातीर एकठांय येवपाक निमित्त मेळटा. अशें जाल्यान धर्मीक लोक चड समाधानी आसतात.

भलायकी बरी आसली तर मन प्रसन्न उरता आनी मनीस समाधानी जाता. पूण हें मनश्याच्या वास्तवीक आरोग्याचेर आदारून नासून मनशाच्या आत्मगत आरोग्याचेर आदारून आसा. देखीक दोतोरा प्रमाण मनशाक दुयेंसां आसूनय तो मनीस जर आपूण दुयेंत असो लेखना, जाल्यार तो चड आनंदी उरता. अर्थात जडार पडिल्ली दुयेंसां आनी असमर्थ करपी दुयेंसां मात मनशाक दुखी करतात.

लग्न जाल्ले दादले आना बायलो हांच्या समाधानांत व्हडलेशें अंतर ना. तरी दादले चड आनंदी वा खुशी अणभवतात. लग्न जाल्ले दादले आनी बायलो हीं लग्न जावंक नाशिल्ल्या वा लग्न मोडिल्ल्या लोकां परस समाधानी आसतात.

लोकांकडेन बरे संबंद आशिल्लीं जाण्टीं समाधानी आसतात. पूण जाण्टीं कोणाकडेन संबंद दवरतात हाचे बाबतींत खूब वेचीक आसतात. जे लोक आपणाक आवडटात तांचेच कडेन नातें दवरपाची जाण्ट्यांची वृत्ती आसता.

जिवनांतल्यो घडामोडी जिविताचें समाधान थारायता. बऱ्यो घडणुको मनशाक आनंदी करतात, तश्यो वायट घडणुको खंती वा दुख्खी करतात. वैधव्य, असमर्थताय आनी गरिबी अश्या परिस्थितींत मनीस असमाधानी जाता.

बहिर्मुख (extrovert) आशिल्ले लोक समाधानी आसतात आनी न्युरोटीक (neurotic) व्यक्तीमत्त्वाचे लोक असमाधानी आसतात. स्वाभिमानी लोक चड समाधानी आसतात. तशेंच जिविताचे घडणुकांचेर स्वताचो ताबो आसा अशें मानपी कर्तुत्वी लोक चड समाधानी आसतात.

निमण्या पांवड्यार, व्यक्तिवादी (individualistic) संस्कृतीचे लोक चड समाधानी आसतात. जरी आनंद हो व्यक्तिवादी (individualistic) तसोच सामुहीक (collectivist) समाजांत मोलाचो मानतात, तरी व्यक्तिवादी समाजांत लोक स्वताक आनंद भोगता अश्या गजालींनी

**जराशास्त्र म्हळ्यार जाण्टे पिरायेचें शास्त्र. इंग्लिशींत ताका Gerontology अशें म्हणटात. ह्या विशयाचेर संशोधनपुर्ण प्रबंध बरोवन लेखिकेन डॉक्टरेट संपादन केल्या. प्रस्तूत लेखमाळेंत जाण्टेपणाच्या वेग-वेगळ्या तासांचेर अभ्यासपूर्ण लेख आसपावल्यात.**

**डॉ. सोबिता किर्तनी ही पार्वतीबाय चौगुले कॉलेजींत मानसशास्त्राची सहायक प्राध्यापक आसात.**

गुंथतात. पूण सामुहीक समाजांत दुसऱ्यांक खोशी दवरप चड म्हत्त्वाचें मानतात. अशें जाल्ल्यान स्वताची खोशी त्याग करून लेगीत दुसऱ्यांक आनंदी दवरपाचो यत्न लोक करतात आनी हातूंतल्यान जायते खेपो स्वतः असमाधानी उरतात.

-६-

### मानसीक भलायकी

भलायकी हीं वेग-वेगळ्या प्रमाणान बरी वायट आसता. एका तोंकार मरण तर दुसऱ्या तोंकार उत्तम स्वास्थ्य आसता. जल्माक आयिल्लो दर एक प्राणी मरणा पासून जाता तितलो स्वताक वाटावपाचो यत्न करता. खरें म्हणल्यार आमी उत्तम स्वास्थ्य उरचें म्हणून यत्न करूंक फावता. स्वताक मरणा पासून आनी दुयेसां पासून पयस दवरपाचो यत्न करूंक फावता. पूण जायत्यो गजाली जिवाक वायट हें खबर आसून लेगीत आमी त्यो करतात- देखीक भलायकेक वायट आशिल्ल्यो खाणांचो वा पेयांचा उपभोग घेवप, व्यसना करप, व्यायाम करप ना आदी. या गजालींनी मनीस आपले शारिरीक स्वास्थ्य पणांक लायता.

मानसीक भलायकी हीं एक भोव नवी कल्पना. मानसीक स्वास्थ्य म्हणजे कितें? मानसीक स्वास्थ्य हीं एक आवतिकाय स्थिती जातून मनीस आपली तांक प्रत्यक्षांत हाडपाक शकता, जिणेंतले ताण हुपपाची तांच्यांत क्षमता आसता, आपलो ताच्यात वावर फळादीक करपाक शकता आनी समाजाक आपले योगदान दिवपाक शकता. मानसीक स्वास्थ्य हाका भावनीक, मानसीक आनी समाजीक तांसां आसात.

मानसशास्त्रज्ञ स्वास्थाचो अभ्यास करतात तेन्ना तातूंत शारिरीक तसोच मानसीक स्वास्थ्याचो आस्पाव जाता. मानसशास्त्र्यांनी मनशाचे स्वास्थ्याची मोलावणी नियाळ करपाक तरेक चांचण्यो तयार केल्यात. त्या भायर नियाळ (observation) आनी मुलाखती वापरूनय हाचो अभ्यास करतात. मानसीक स्वास्थ्य, समाजीक स्वास्थ्य, आत्मगत कल्याण, समाधानी जिवीत अशा वेग-वेगळ्या संकल्पनांचो अभ्यास मानसशास्त्र्यांनी केल्लो आसा. ह्या सगळ्या संकल्पनांचो अर्थ सारकोसो दिसलो तरी दर एक संकल्पना वेगळे पद्धतीन मांडिल्ली आसा. समाजीक स्वास्थ्य म्हणजे समाजा कडेन नातें आसप आनी समाजाक आपलें योगदान दिवप. आत्मगत कल्याण म्हणजें जिवीताचें समाधान आसप आत्मभोव सकारात्मक भावना अणभवप आनी नकारात्मक भावना भोव कमी प्रमाणांत अणभवप. समाधानी जिवीत जगप म्हणजे आपले सरिल्ले जिवितांत खंत, दुख्ख, निराशा नासून आनंद आनी धादोसकाय भोगप.

वेग-वेगळे संशोधक वेग-वेगळ्या विशयांचो अभ्यास करतात. कांय जाण कित्याक लागून मनशाचें स्वास्थ्य घडटा हाचो अभ्यास करतात, जाल्यार कांय जाण स्वास्थाकडेन जोडिल्ल्या घटकांचो अभ्यास करतात

शंकर दास आनी कुमार ह्या संशोधकांनी १९९६ वर्सा पळयलें की घरच्या आनी इश्टां कडल्यान आदार मेळटा तेन्ना जाणट्यांच्या समाजीक स्वास्थ्यांचेर भोव बरो परिणाम जाता

मोहंती आनी तांचे वांगडी संशोधकांनी २०१२ वर्सा शंबर जाण्ट्यांचो अभ्यास केलो. ताण पळयले की तांतले सगळ्यांत जाण्टे पिराय-गटांतले लोक न्हावप, खावप, संडासांत वचप, न्हेंसप तशेंच रांदप, घर निवळ करप, बाजार करप आपल्या फोन वापरप, आपलीं वखदां आपले आपूण घेवप, आपल्या पैशांचो वेवहार आपले आपूण करप आदी, म्हणजेच दिस्पट्टी लागपी गरजेची कामां कमी बरे तरेन करूंक शकताले तशेंच ह्या लोकांचे व्यक्तीगत स्वास्थ्य उणें आसलें. सांख्यिकीय नियाळांतल्यान दिसपट्टी लागपी गरजेची कामां करपाची क्षमता जाण्ट्यांचे मानसीक स्वास्थ्य पारखूपाक मदत करता अशें तांका होलमलें. अंयशी वर्सा पिराये वयल्या जाण्ट्यांक हें चड लागू जाता.

फुरसतीच्या वेळार केल्ली कामां जाण्ट्यांचों जिवीताचो दर्जो वाडोवपाक आनी जिवीत समाधानी जिवीत घडोवपांत वांटेकार आसता. या कामांनी गुंथता तेन्ना व्यक्तीगत, शारिरीक, मानसीक, भावनीक, आध्यात्मीक आनी सामाजीक स्वास्थ्य आनी समाधानी जिवीत घडटा. भारतांत मात जाण्ट्यांचे मनरिजवणे खातीर खूब कमी पर्याय आसात. स्वाती वारशणे हे संशोधकान २००७ वर्सा यशस्वी जाण्टेपणाक कारण आसूं येता आशिल्ले लोक जायते घटकांचो खोलायेन अभ्यास केलो. तिणें ६५-७५ वर्सांचे पिरायेच्या १५० जाण्ट्यांचा अभ्यास केलो. तिच्या ह्या संशोधनांतल्यान तिका कळ्ळे की,

१) एकत्र कुटुंबात (joint family) रावतल्या लोकांचो जायत्या लोकांकडेन संपर्क आसले. बायलां परस दादल्यांचे चड लोकांकडेन संपर्क आसले मात व्हड कुटुंबांत रावतल्या दादल्यां परस विधवा बायलांचो जायत्या लोकांकडेन संपर्क आसलो.

२) जोडप्यांतलीं दोगांय आजून जिर्ती आशिल्ल्या दादल्या आनी बायलां परस वैधव्य आयिल्ले दादले आनी बायलो असमाधानी आसली. वैधव्य आयिल्ल्यो बायलो फक्त असमाधानी नासून चड खंती आसल्यो.

३) समाधानी जिवीत आनी खंत हांचे उरफाटें नातें (negative correlation) आशिल्ल्यान समाधानी जिवीत आशिल्ल्या लोकांत खूब उणी खंत/निर्शेणी आसली.

४) व्यक्तीगत स्वास्थ्य आनी फुरसतीतल्या वेळार केल्ली कामां हांचें समाधानी जिविताकडे सरळ नातें आसलें (positive correlation).

५) फुरसतींतल्या वेळार मनरीजवण करपी कामांनी गुंथपी लोक चड समाधानी आसतात. तरी समाधानी जिवीत या कामांनीं ठरना मात निरशेणी आना व्यक्तीगत स्वास्थ्य हांचे पासून समाधानी जिवीत थारता

६) व्यक्तिगत स्वास्थ्य आशिल्ल्या लोकांचे जिवीत समाधानी आसलें, तशेंच ते लोक फुरसतींतल्यान वेळार मनरीजवण करपी कामांनी गुंथून घेताले. तशेंच त्या लोकांत निरशेणी खूब कमी प्रमाणांत आसली.

७) निर्शेवणी आयिल्ल्या लोकांचे व्यक्तीगत स्वास्थ्य अस्कत आसलें. जितली निर्शेणी चड,तितलो, शारिरीक आनी मानसीक स्वास्थ्य अस्कत आसलें.

ह्या सगळ्या गजालीं वयल्यान तिणें असो निश्कर्श काडलो की आपले व्यक्तीगत स्वास्थ्य बरें आसा अशें मानपी आनी खूब उणी निर्शेवणी आशिल्ले लोक चड समाधानी आसातात. कितल्या लोकांकडेन संपर्क आसा हाचे वरवी यशस्वी जाण्टेपण, समाधानी जिवीत, निर्शेवणी, व्यक्तीगत स्वास्थ्य आनी फुरसतीतल्या वेळार केल्लीं कामां थारता.

(चलता)

संपर्कः 9881527581 ***



# ‘हात’ हे कवितेचो सर्जनसोद

परेश नरेंद्र कामत

‘हात’ ह्या नांवाची एक नवी कविता बरोवन जाली. ‘आवय गेल्या उपरांत’ ही कविता ज्या intensityन म्हजे कडल्यान बरोवन जाल्ली तेच तरेचे intensityन ‘हात’ ही कविताय बरोवन जाली. हे कवितेची भास आनी अभिव्यक्ती 'आवय गेल्या उपरांत' हे कवितेच्या लागसार येता अशें म्हाका ही कविता वाचतना जाणवता. कविता अशी :

*हात*

*हात भाजून घेतल्या उपरांत*
*हातांत हात घेवपाक लेगीत दिसता भंय*
*भंयाचेच दोंगर आसता फुडें आनी फाटल्यान*
*मदीं खोल दरी*
*धारदार कातये वरी*

*भंयाचो रंग आसता तांबडोगुंज*
*भंयाचो रंग आसता काळोकिट्ट*
*हांव पड्टां धवो फटफटीत भंयान*
*भंयूच आसता वेंगावन जिणेची कोरी पाटी*

*पाटयेर बरयलो भंय आनी पुसलो भुरगेपणांत*
*तरनाटेपणांत भंयाक दाखयलो कोको*
*आतां जाणटेपणाचे वाटेर उंच उंच जायत रावल्यात*
*दोंगर भंयाचे*
*नदर पावना इतले उंच*
*आनी खोल दरयेंत मरण पळेत बसलां वाट*
*आपल्या दोनूय हातांनी विळखो घालपाक...*

***

जल्मा पसून मर म्हणसर 'भंय' हो मनशाची फाट सोडीना. हो 'भंय' कसलो? जीण जियेवपाचो काय मरणाचो काय आनीक कसलो? जीण जियेतना हो 'भंय' मनशाचे भितर सुप्त मनांत दडून आसता आनी तो केन्ना केन्ना प्रत्यक्ष जाणवता वा सपनांत दिसता. 'भंयाच्योय' व्याख्या जिणेच्या वेगवेगळे अवस्थेंत बदलत आसतात. 'मरणाची अटळ जाणीव' आनी तातूंतल्यान निर्माण जाल्ली भंयाची अवस्था मनशाच्या मनांत खोल मेरेन दडून आसता. सायकियाट्रिस्ट सायकोॲनेलिसीस करून 'भंयाचें' नेमकें मूळ सोदून काडूंक शकता. पूण कवी ती अवस्था उत्कटतेन स्वता भोगता, अणभवता आनी आपले तरेन तिची जिणे कडेन संगती लावपाक सोदता.

हे कवितेंत- 'हात भाजून घेवप' आनी 'हातांत हात घेवप', 'भंयाचो उंच दोंगर' आनी 'धारदार कातयेवरी खोल दरी', 'धवो फटफटीत भंय' आनी 'जिणेची कोरी (काळीकिट्ट) पाटी हांचे मदली contrasting imagery भावनीक ताण वाडयतं वाचकाक निमाणें खोल दरये मेरेन घेवन वता. आनी दरयेंत कोण आसा? तर- 'मरण वाट पळेत बसलां आपल्या दोनूय हातांनी विळखो घालपाक'.

मनशाचे जिणेंतलो भंय तांबडोगुंज, काळोकिट्ट, धवो फटफटीत ह्या प्रतिमांतल्यान मुखार येता. देखीक: कोंबो, बोकडो वा गाय कापतना उसळिल्या रगताचो भंय, सपनांतल्या काळखी राकेसांचो, भुतांखेतांचो nightmare जावन राविल्लो भंय, मरणाचे थर्त जाणिवेच्या भंयान मड्या सारको धवो फटफटीत पडप- हें सगळें जिणेच्या कोऱ्या पाटयेचेर कवी नोंद करून दवरता. आनी हाची नोंद करतना निमाणें आपले जिणेची पाटी कोरीच उरल्या हाचोय भंयगंड ताच्या मनाचो थरकाप उडयता.

-'पाटयेर बरयलो भंय आनी पुसलो' हातूंतल्यान व्यक्त जाल्लो शाळेच्या अभ्यासाचो भंय, 'भंयाक दाखयलो कोको' हातूंत तरनाटेपणांत भंयाकूच कुस्कुटावपी आंगातली मस्ती आनी जाणटेपणाचे वाटेर मरणाच्या अटळ सत्याक फुडो करतना 'उंच उंच जायत राविल्ले भंयाचे दोंगर' ह्यो सगळ्यो प्रतिमा जिविताच्या फाटभुंयेर कवितेचो आशय गडद करतात.

'पाटयेर बरयलो भंय आनी पुसलो भुरगेपणांत' हे ओळींत भुरगेपणांतल्या भंयाचीं वेगवेगळीं परिमाणांय आस्पावल्यांत. देखीक: 'गणित' ह्या विशयाचो भंय जो अजून मेरेन म्हज्या मनांत तस्सो आसा. 'गणित' हो विशय म्हाका केन्ना सारको समजलोच ना. अत्यंत नावडतो असो हो विशय अजुनूय म्हजे खातीर जावन उरला. गणिताचो भंय ही तशी लौकीक गजाल. पूण म्हाका गणित शिकोवपी शिक्षकांनी ती अलौकीक करून उडयली. गणिताचो भंय म्हज्या मनांतलो काडून उडोवचे परस तांणी तो म्हज्या मनांत आनिकूय घट करून उडयलो. वयर 'ढ' नांवाचें प्रशस्तिपत्र म्हाका दिवन मोटें पुण्यकर्मूय केलें. हे कवितेंत 'गणिता'चो भंय 'जिणेची कोरी पाटी'च्या रूपान सूचकतेन आयला.

'हात भाजून घेतल्या उपरांत' म्हणल्यार जिणेंतल्यान आयिल्ल्या वायट अणभवांतल्यान मनशाक शाणेंपण येता म्हणटात. पूण एकदां हात भाजून घेतल्या उपरांत दुसऱ्याचे हात हातांत घेवपाक (मायेन, मोगान वा कृतार्थ भावनेन) लेगीत मन धजना ही वस्तुस्थिती आसता. हाचें कारणूय परत 'भंयूच'. कारण त्योच चुको परत परत जावप मनस्तापाक कारण थारतात आनी ह्या मनस्तापा पसून मनीस सदांच पयस रावपाक सोदता. मानसीक अशांततेक पयस दवरपाचें शाणेंपण मनशाच्या वांट्याक 'हात भाजून घेतल्या उपरांतूच' येता ही गजाल कवितेच्या पयल्या दोन ओळींनी establish जाता.

'भंय' हो कवितेचो विशय आसुनूय हे कवितेचें शिर्षक 'हात'

*(पान १८ चेर)*



# ते सांतोणीचें दुख्ख!



सखाराम शेणवी बोरकार

ही काणी न्हय. ही लोकांकाणीय न्हय. ही घडणूक. मडगांवां आमी रावतात ते कॉलनी कडेन घडिल्ली. काळजाक पीळ घालपी. दोळे उक्ते करपी.

आमच्या कॉलनीच्या कंपावडा भायले वटेन एक शाळा आसा. शाळेच्या फाटलेवटेन एक व्हडली सांतोण आशिल्ली. आशिल्ली म्हणप योग्य थारतलें. कारण आतां ती सगळी बेणल्या आनी फ़कत खोड तितलें दवरलां. फोटवांत पळेल्यार कळटलें. हांव ह्या कॉलनींत रावपाक आयल्यार विशेक वर्सां जालीं. कोणाच्याय मालमत्तेंत आसना, ह्या सांतोणीची म्हाकाच न्हय तर कॉलनींतल्या सगळ्यांक अपुरबाय. भोव लकुबाय. ऑक्टोबर म्हयनो सुरु जालो कीं ही सांतोण फुलपाक लागताली. खांदयांचेर फुलांच्या कळयांची गर्दी जाताली. लेव धव्या रंगाचीं हीं फुलांनी कुचकुचीत भरिल्ली ही सांतोण खूप सुंदर दिसताली. चड करुन सकाळचो आनी रातचो सगळ्या वाठारांत एक मंद आनी केन्ना केन्नाय हय-न्हयसो उग्र असो वास पसरतालो. कांय तेंपान ह्या फुलांपासून सांगो तयार जाताल्यो. ह्यो फुटभर पोपटी रंगाच्यो सांगो मागीर सांतोणीचें कायारुपच बदलून उडयताल्यो.

सांतोणीक मराठींत 'सप्तपर्णी' म्हणटात. एका चोंब्याक सात पानां आशिल्ल्यान तशें म्हणटात. ह्या झाडाचो उल्लेख आमच्या आदल्या ग्रंथांनी मेळटा. जशे परीं महाभारत, कौटिल्याचें अर्थशास्त्र, बृहदसंहीता आदी. कालिदासाच्या रघुवंशांत लेगीत हाचो उल्लेख मेळटा. 'सप्तच्छद क्षीरकटुप्रवाहमाससह्यमघ्राय मंद तदीयम' (सात पानां आशिल्ल्या ह्या झाडाचो धवो दीख आसता, आनी ताचो वास हत्तीच्या मदा सारखो आसता.) विश्वभारती विश्वविद्यालयांत तर थंयच्या दीक्षांत समारंभांत ह्या झाडाचीं पानां विद्वानांक आनी शिक्षकांक अर्पण करतात. ही परपंरा गुरुदेव रविंद्रनाथ टागोर हांणी केल्ली खंय. हाचे वेल्यान सांतोणीचें सांस्कृतीक महत्व लक्षांत येता.

सांतोणीच्या झाडाक वखदी गूण आसात. सांतोणीच्या झाडाची साल शिजोवन केल्लो कसाय दर आयतारा पिवपाची आदीं चाल आसली. वखदी गूण आशिल्ल्या ह्या सालीचो उपेग जोर, भायर जावप, मलेरीया, दांत दुखप थंडी, खांक हाचेर करताले.

इंग्लिशींत ह्या झाडाक 'स्कोलर ट्री' वा Styphnolobium japonicum म्हणटात. ह्या झाडापोंदा बसल्यार स्मरणशक्ती वाडटा असो समज आसलो. ह्या झाडाच्या लाकडापासून पाटी, फळो तयार करताले म्हण ताका तशें म्हणटात आसूंक जाय. ह्या झाडाक सैतानाचें झाड (Satan Tree) अशेंय म्हणटात. भारतांतले कांय भागांतले आदीवासी लोक सांतोणीच्या झाडापोंदा बसनात. इतलेंच न्हय ताची सावळी लेगीत आपल्याचेर पडूंक दिनात. सातानांवेल्यान ह्या झाडाक कोंकणींत सांतोण हें नाव पडलां काय?



कितेंय जांव! म्हत्व आशिल्ल्या त्या सांतोणीचें आनी आमचें नातें राबितो वाठारांत घट्ट जातालें. सैमाचो सांगात कितलो सुखदिणो हाची ती गवाय.

सांतोण जरी दुसऱ्याच्या मालमत्तेंत आसली तरी तिची फुलां मात आमच्या कॉलनीच्या रस्त्यार पडटालीं. सोबीत फुलां. रासभर. तें पळोवन म्हाका सत्यभामा आनी रुक्मिणीच्या (श्रीकृष्णाच्यो घरकान्नी) काणयेची याद जाताली. सत्यभामेन लायिल्या झाडाचीं फुलां रुक्मीणीच्या दारांत पडटालीं खंय.

शरद ऋतू येतकच त्या दिसांनी सकाळींफुडे आमच्या कॉलनीच्या सगल्या रस्त्यार सांतोणीच्या फुलांचो सडो पडटालो. प्रसन्न दिसतालें. रस्ते, शिमिटाच्यो इमारती हातूंत झाड, पाचवीकाय फुलां म्हळ्यार कितलो आनंद. ह्या हंगामांत आमीय भितल्ल्यान फुलताले. फुलांचो शिंवर पडटकच आमच्या झाडूवालेक रस्तो झाडपाक त्रास पडटाले खरे, पूण तीवूय बी मोट्या खोशयेन तें काम करताली. त्या फुलांचो परमळ सुगंध तीका खोशी दवरतालो आसूंये. त्या भायर हो सांतोणीचो रुख आमच्या कॉलनीक शितळ सावळी दितालो. गिमांत रखरखा पासून आमकां सगळ्यांक पयस दवरतालो.

हें सांतोणीचें झाड शंभर वर्सां परस चड पिरायेचें आसूंक जाय. अशीं साप्प थोडीं झाडां आतां मडगांवांत उल्ल्यांत. काँक्रिटीकरणांच्या आनी बिल्डरांच्या भकाक आनी भकीक खूपशी झाडां पडलीं. पूण फाटल्या वीस वर्सांत ह्या आमच्या(?) सांतोणीची एकतरी खांदी मोडून पडली अशें जालें ना. ह्या वीस वर्सांत तरी कितलीं वादळां, मोडां आयलीं. उटंगाराचो पावस घसघसलो. तरी ताठ मानेन स्वाभिमानान मळबाक वेंगावपी ही सांतोण एका रुशी भशेन डगमग नासतना उबी रावली. सामकी अचल आनी अढळ.

खूप वर्सां पयलीं कोणाक तरी अशीच अवदिसा येवजली आनी पाडया बुद्दीच्या टणटणमाऱ्यांनी ही सांतोण बेणपाचें काम सुरु केल्लें. आमी सगळ्या कॉलनीवाल्यांनी तें आडायलें आनी ती सांतोण शाबूत उल्ली. ती आमच्या उपकारांत नाशिल्ली. आमी तिच्या उपकारांत आशिल्ले. खूब कितें तिणें

*(पान २३ चेर)*

# नांवांत सगळें आसा...

**दिलीप बोरकार**

एक्साचो गोंयकार तसो नांवां दवरपाक इस्पेर्त. तो आपल्याक केन्नाच नांव दवरना. ताका दुसरेच नांव दवरतात आनी मागीर तेंच आपलें नांव अशें सांगत तो दुसऱ्यांक नांवां दवरीत जीण सारता.

एकदां एके सुंदर चलयेन म्हाका नांव विचारलें. सुंदर चलयेन अशें हांगा मुजरत सांगपाचें कारण म्हणल्यार तुमकां तो काळ आनी म्हजी पिराय कळची हो हेत. पिरायेच्या अठरा वर्सांचेर दर एकल्या मुखार जें कोण येता तें ताका सुंदर दिसता. म्हणटकच हांव म्हजे अठरा-एकोणीस वर्सां पिराये वयली गजाल सांगतां हें तुमच्या सारख्या बुदवंत वाचकांक येन्नादर कळ्ळांच आसतलें! आतां तेन्ना म्हाका सुंदर दिशिल्लें आतां कितें दिसता आसतलें हाचेर चड विचार करूं नाकात.

तर ते चलयेन म्हाका नांव विचारलें तेन्ना हांव पुरायेन कोंकणी वावुरपी जावंक नाशिल्लोंय. पूण रमेश वेळुस्कार, दिगंबर सिंगबाळ बी सारखेल्यांचे लगाडीक पडून जाणवाय जावपाक लागिल्लों. ते म्हजे वांगडा नात ती संद सादून ते सुंदर चलयेन म्हाका म्हजें नांव विचारलें आनी हांवेंय म्हजे वांगडा रमेश, दिगंबर बी त्या वेळार नात हाची संद घेवन ते चलयेक जाप दिली.

"म्हाका नांव ना."

"अशें कशें? नांवां सगळ्यांक आसता!"

"तुका आसा.?"

"हय, म्हजें नांव पितांबरी."




"तें तुजें नांव कशें तर..! तें तुज्या आवय-बापायन तुका दवरलां. पाळण्यांत घालतना. तें तांचें नांव. ब्रेंडड चार चौगां लागीं भासाभास करून, तुजें रुप बी नियाळून तांणी तुका तें दवरलां. ना तर हेर भुरग्यां मदल्यान तुका आपयतनां तांका प्रॉब्लेम जावपाचो. म्हज्याय आवय बापायन तेच पासत म्हाका नांव दिलां. तांका आवडटा तसलें. म्हणटकच म्हाका नांव ना. तेन्ना तुका नांव कशें सांगप..?"

म्हजें हें इतलें उलोवप ताणें मोन्यानी आयकलें आनी म्हज्या आवय बापायन म्हाका कुरू म्हूण घाल्लें नांव जाणां जावन घेतले बगर कूस मारली. ताचे उपरांत कोणूच दुसरी चली म्हजें नांव विचारूंक आयली ना. तांचीय म्हूण चूक ना. तांणी आपलें नांव म्हज्या नांवा मुखार लावपाचो समजा विचार केल्लो जाल्यार तांचोय म्हूण गोंदळ जावपाचोच! मागीर हांवेंय चिंतलें, नांव तर जाय मागीर तें कोणेंय दिल्लें आसूं आपलें मानून तें वयर काडपाचें. हांवेंय तेंच केलें. दुसऱ्यांनी दवरिल्लें नांव इतलीं वर्सां म्हजें मानून दुसऱ्यांक नांवां दवरपांतूच धन्यताय मानली! मनशांकूच न्हय हे धर्तरेर आशिल्ल्या आनी ब्रह्मांडांत आपल्या दोळ्यांक दिसता त्या सगळ्या गजालींक नांवां दवरून आमी मेकळे जाल्यात.

दुसऱ्यांक नांवा दवरप सामकें सोंपें. तेच पासत प्रत्येक गोंयकार उठ सूट दुसऱ्यांक नांवा दवरीत सुट्टा. तातूंतलोच हांव एक गोंयकार. हांव नांवां दवरपाक इस्पेर्त म्हणपाची सुलूस आमच्या मुख्यमंत्र्यांक लागली. तांकांय हांवें ते मुख्यमंत्री जावंचे आदीं आनी जाल्या उपरांतूय खूब नांवां दवरलीं. तांका ताची कल्पना आसतली देखून तांणी म्हाका मोपा विमानतळाक नांव दवरपा पासत आपोवन व्हेलो. तांणी आपयला म्हणटकच वच्चें पडलेंच न्हय. कित्याक तो आतां मुख्यमंत्री आसा, फाल्यांय आसतलो आनी हांव नासतलों तेन्नाय बी तोच आसतलो. म्हणटकच हांव आसतनाच ताका उपकारा पडूं येता जाल्यार पडुंया म्हूण गेलों.

गेलों खरो पूण तेन्ना म्हाका खप्प जालें. एकट्या दुकट्याक नांवां दवरप सामकें सोंपें. पूण विमानतळा सारख्या रासवळ प्रकल्पाक आनी तातूंतय लोकांच्या जिविता लागीं लागशिल्लो संबंद आशिल्ल्या प्रकल्पाक नांव दवरप हें एकट्याचें काम न्हय. विमानतळ म्हणटकच विमानां तळाकूच रावनात. तीं थंयच्यान वयर मळबांत वतात. वयर वचून तीं सकयल देंव मेरेन म्हजे सारखे जीव सामको मुठींत घेवन बसतात. आयज काल दिसपट्ट्यो कितल्याच विमानाच्यो वायट खबरो कानार येतात. बरीं बरीं नांवा आशिल्ल्या विमानतळा वयल्यान विमानां वयर वतात आनी परत सकयल येच नात खंय! एक विमान तर सामकें काळ्या बुरखांत म्हणल्यार जाका इंग्लीशींत 'ब्लॅक होल' म्हणटात तातूंत लेगीत ना जालें खंय! म्हजे कडल्यान कोणाचेंय नांव दिवप जालें आनी ताणें आपल्या सभावा प्रमाण विमानांत बशिल्ल्या म्हजे सारख्याचेर राग काडलो जाल्यार! म्हाका लागून हेरांकूय आपलो जीव होगडावंचो पडलो ना! मागीर सखाराम बोरकार 'पानवेलीच्या धर्मान म्हसगाक उदक' हे धर्तेर 'दिलीपाच्या धर्मान एक्साक मरण' अशी म्हण तयार करतलो आनी अलका असोळडेकार ताचेर 'म्हणी फाटली काणी' बरयतलें. तें 'सिनाय' आनी हो 'शेणवी' म्हणटकच शाबी बाबी पोकू दिफेरेन्स! म्हज्या धर्मान कोणाचें कल्याण जाता जाल्यार जावं!

तर गजाल सांगतालों सीएम आनी मोपाची. म्हणटकच रासवळ वास्तुंचे बाबतींत रासवळ विचार करून नांव दवरपाचो निर्णय घेवपच बरें अशें म्हाका दिसलें. हांवें तें सीएमाक सांगलें, म्हणलें तुमकां एकट्याक निर्णय घेवप परवडटा. तुमकां कोणेंय नांवा दवरल्यार तुमी सगळ्यांक एक्सार मारतात. तुमकां परवटडा तें. तुमचे हातांत सत्ता आसा. म्हजे कडल्यान भलत्याचेंच नांव दवरप जालें जाल्यार म्हाका नांवां दवरतले. पयलींच हांव नावाडगो.

कशें कोण जाणां सीएमाक हांव उलयतां तें समजलें शें! तो

*(पान ३० चेर)*



# दातांचो रूटकॅनाल

**महेश पारकार**

मनशाक दांत बत्तीस. सगल्या दातांचो तो खावपाक उपेग करताच अशें ना. चाबडावन खावचे परस चडशे दाखोवपाकच तो उपेग करतात. देखून तर मनशाले 'दाखोवपाचे दांत वेगळे आनीक खावपाचे दात वेगळे' ही ओपार बरीच फामाद जाल्या आसूंक जाय.

हांव एक दीस डॅटिस्टागेर गेल्लो. हावे तोंड उगडून दांत दाखयले. ताणे सगले मेजून पळयले. कितले तिगून उरल्यात तो आंकडो शेवटा मेरेन सांगलोच ना. "दोनय वटांतल्यो दोन दोन दाडो हिसपाभायर पोखरल्यात! एक तर ते हुमटावन काडपाचे वा आसा तशेच दवरपाचे" अशे ताणे म्हाका ताकतिकेंतशें फर्मायलें.

"तांचे कितें करपाचें तें तुमीच पळयात दोतोर!" म्हाका याद जाली. एक दाड म्हजी धा वर्सा आदी काडिल्ली. म्हण्टगीर ३१ दांत उरल्यात काय? हांवेय ते केन्राच मेजले ना. तातूंतले जर चार काडले जाल्यार उरतले कितें? त्या भायर खातलो कसो? हो हुस्को जालो. "दोतोर ते भरपाक मेळचे ना?"

ती शक्यताय उणी, तुमगेलो अमके नंबरचो दांत. ताचे दोतोरान नांव घेवन म्हाका म्हळें कीं "तो इतलो झरला की तो कोणूच भरपाक शकचो ना!"

हांव पयलेच खेपो आयकतालों, कीं दातांक नंबर आसतात. तशेंच तांका मनशाभशेन नांवाय आसतात. पयले दाडयेचे नांव सांगले तें आयकून उरलेल्या दातांची नांवां खंयची? तीं जाणां जावन घेवपाची म्हजी उमळशीक वाडिल्ली.

"तुका कित्याक तीं नांवां? तूं तीं जाणा जावन कितें करतलो?"

"दोतोर आपले भुरग्यांची नांवां जितलीं घोस्ताचीं. तशींच तीं आपल्या दातांचीय तितलींच अपुरबायेचीं कोणाकय दिसूं येतात न्ही?"

"चड विनोद हांगा नाकात. तुजीय अपूरबाय नाका आनी तुज्या दातांचीय अपुरबाय म्हाका नाका. भायर म्हजे पेशंट रावतात."

म्हाका अप्रत्यक्षपणान धांवडावन घालपाचो दोतोरालो सूर म्हाका कळ्ळो. नाकात त्यो दातांच्यो अदीक वासपूशी! अशें चिंतून हांवे दोतोराली फी फारीक केली. आनीक चलूंक लागलो.



"हांवे ताका दांत दाखयले." ह्या उतराचो अर्थ जायत्या तरानीं घेवपाक जाता. देखीक दातांचे सोबितकायेचे दर्शन करपाक हांवे ते ताका दाखयले. दांत दाखोवन हांवे तागेलीं फकाणां केलीं. वा आळसायेन तोंड उगडे करीत जांभय काडली. अशे भशेन जायत्या तरांनी ती विस्कटावणी करपाक जाता. दोतोराले रागार जावपा फाटले कारण म्हाका समजलें ना. दुसरो कोणूय डेंटिस्ट आसा काय? ती खबर हांवे काडली. पोखरलेल्या दातांचेर कितेंय तरी उपाय करचेच पडटले!

दुसरे डेंटीस्ट एक सोबीत चली भुरगे. म्हण्टगीर ताचे क्लिनीकाभितर सरनाफुडे ताका हांसून पयलीं खबर घेतना दांत दाखोंवचेच पडले. उपरांत ताणे म्हाका खुर्चेर न्हीदयलो. आनीक हुस्क्यान विचारलें, "तुमचे सगले दांत इतले कशे झरल्यात?"

"दिसाक चार खेपो हांव दांत घांसता. च्या पितकीर, जेवल्या उपरांत तर घासतांच!"

"इतले कित्याक घांसतात तुमी?" त्या सोबीत डेंस्टीस्टालो निरागस प्रस्न.

"म्हाका दांत, दुखीचो हिसपाभायर भंय दिसता. दाडयो-दांत दुखी घेवन जीवाचे हाल करीत लोक म्हज्या फार्मासींत येतात ते हांव पळयता. ताणे म्हजो हो भंय दिसा कणकणी वाडत गेलो. तशे तशे दांत दाडो घांसून घांसून तासपाचे प्रमाण वाडलें." हांवे दोतोरणीक खरें तें सांगलें.

"हाचेर उपाय आसा. दाडो काडून उडोवया अशें तुमकां हांव सांगचे ना. तर रुटकॅनाल करपाचें. म्हळ्यार पोखरल्यात ते अदीक सादूरकायेन भरपाचे." अदीक सादूरकायेन म्हळ्यार कशे तें समजलेना. उपरांत अदीक खोलायेन वासपूस केली. तेन्रा पांच-स हजार एका रुट कॅनालाक पडटात. ते आयकून "दातांची सादूरकाय" म्हण्टात ती कितें तें तकलेंत आयले! कशेंय आसूं. जाण्टेपणात अदीक पोखरून कल्ल जावचे परस तांचेर आतांच उपाय केल्लो बरो. ना तर मुळासावन दांत निखळावन काडून तोंडाचो बोचो करचे परस; तांचेर सादुरकायेचो उपाय तसो म्हारग पडचो ना. अशे घरच्यांनीय म्हळें. बत्तीस भुरग्यांतले चार मस्ते भुरग्यांक वर्गातल्यान भायर धांवडायल्यार कितले उरतले? शाळेंत मास्तरान दातांवयलो धडो शिकयतना दातांचे गणित वर्गातल्या मस्त्या भुरग्यांवांगडा जोडून शिकयल्लें ताची म्हाका याद जाली. वर्गातल्या बत्तीसय भुरग्यांली नावां तेन्राय याद नासली. आनीक दोन चार नावां सोडल्यार आयजय तीं याद जायनात. पूण दातांचो रुट कॅनाल करपाचो आसा ते उजवटेनचे रायट मोलार १-६ आनीक ताचे वेलो ४-६! जाल्यार दावे वटेनचे लेफ्ट मोलार तीन आनी ताचेवेलो लेफ्ट मोलार ६ अशी नावां सांगली. तेन्रा बाकीचे दातांची नावां जाणा जावन घेवचेली उमळशीक साप्प सोंपली.

म्हण्टकीय रुट कॅनाल करपाचो दीस थारलो. वेळ थारलो. दातांचे ऑपरेसांवूच तें. भेरोवणेचे इंजेसांव दिवन तें सुरु जालें. इंजेसाव तोंडांत भितरल्यान करतात. तेंवूय दुखयले बगर करतात. हे हांवें चिंतूक नासले. थोडे तरी दुखतले हे अदमासान हांव गेल्लो. ह्या सोबीत

दोतोरीणीचे हातांत बत्तीसूय दातांचेर अशे भशेन उपाय करुन घेन! असो एक मस्तो विचार येवन गेलोच. दांत म्हण्टकीर तो तोंडांतलो एक अवयव. तोंड आंऽऽ केलेबगर तो कसो दिसतलो? बरे एक दोनदां ''आं''केले जालें अशें आसा? आंऽऽ आंऽऽ करीत रावचें पडटा. कांय जाणाक चड आंऽऽ करून रावपाची संवय नासता. जांचे तोंड व्हडा कश्टांनी उगडटा तांका परत परत तोंड ल्हान प्रमाणांत, व्हडा प्रमाणात उगडपाची तकालस अदीक जाता. बडबडे लोक व्हडा-व्हडान तोंड सताड उकते दवरून हांसपी लोक! तांगेली तोंडा केन्नाय उगडपाक, कितलेय खेपो उगडपाक सांगात. तांका ते व्हडलेशे दिसना. पूण म्हजे सारके कमी उलोवपी मनशांक ही परत परत तोंड उगडपाची, वरभर ती सर्कस करपाची तकालस अदीक जाता. फुडाराक आनीक तीन दातांचेर हेच उपाय करपाचे उरल्यात. देखून तो 'आंऽऽ' करपाची अदीक संवय करून घेवपाक जाय. आता फाल्यां दाडवणा कितलीं दुखतलीं? तीं पळोवंया. अशें हांवे डेंस्टीस्टाले खुर्चेर आड पडिल्ले कडेन थारायलें. तोंडाचो एक्सरेय काडटात हेंवूय म्हाका खबर नासलें. पूण तीवूय नाजूक पद्धतीन ते दोतोरणीन काडली. रेशमी मुलायम लुगटाचेर अचळय हात घुंवडायल्ले भशेन! दुखतले दुखतले अशे मनाक समजायता थंय आसा. हेवटेन एक-एक क्रिया दुखयले बगर फिशाल जावपाक लागली. पोखरलेली दाड अदीक सुळसुळीत करून तातूंत शिमीट भरचें पडटा. अशे दोतोरणीन म्हळे मात. म्हाका खूंक करून हांसूक फुट्टलें अशें जावपाक लागलें. सांबाळ बाबा! जीब अशीच भोंवत आसता. ती जर पोखरपी मिशीना भितर बी सांपडत! अशी चिंतना मतींत हाडून हांवे मतींतलो हांसो तशेंच नाका जाल्ल्या चिंतनाचोय ओघ थांबयलो.

खुर्चेर आड घालून हो सगळो वावर डेंटीस्ट करून घेतात. मदीं-मदी सायडीच्या आयदनांत उठुन थुकपाक मेकळीक आसता तितलीच. हेवटेन म्हज्या पांसियेसाचे क्षमतेचो ग्राफ वाडत आशिल्लो. तसोच तो दोतोरणीलोय वाडटा. हे हांव अणभवतालो. ह्या तरणाट्या दोतोरांक इतले पासियेंस खंयच्यान येता? इतल्या ल्हान पिरायेचेर? पुराय वावर वा म्हणया दोन वरां चलिल्लो हो याग पोखरलेल्या दाडयेंत शिमीट भरून जातकीर सोंपलो. म्हाका सूऽऽ जाले. तोंड इतले वगत उक्तें दवरपाची सर्कस फक्त गायन आयकतना गायकांची हांवे पळयल्या. स्वता तशी केन्नाय करची पडटली हें हांव केन्नाच चिंतूक नासले. अश्यो ह्यो चिंती नाशिल्ल्यो गजाली प्रत्यक्षांत जीण आमकां कितलेशेच फावट करपाक लायता! म्हणूनच मनशाले जीणेक व्हड इप्रिताची म्हळ्या ती वगीच न्हय. तो अणभव हांव ती दोन वरां घेतालों. असोच हो अणभव आनीक तीन खेपो घेवंचो आसा! एका दाडयेचे 'सादुरकायेचे' पांच हजार दिवन हांव त्या दिसा सुखरूप घरा आयलो. सद्याक दुसऱ्या दाडयेचो रुट कॅनालाचो ॲपोयंटमेंट ती केन्ना दितली? ती वाट हांव पळयतां.

संपर्क: 94207 68518

***

*(पान १४ वयल्यान)*

कित्याक? 'हाता'चीं वेगवेगळीं परिमाणां हे कवितेंत आयल्यांत हें एक कारण आसाच. कवितेच्या तिनूय कडव्यांनी प्रत्यक्ष-अप्रत्यक्ष रितीन हातांचो उल्लेख आयला. देखीक :

१) हात भाजून घेतले उपरांत

२) हातांत हात घेवपाक लेगीत दिसता भंय

३) भंयूच आसता 'वेंगावन' जिणेची कोरी पाटी

४ ) पाटयेर 'बरयलो' भंय आनी 'पुसलो' भुरगेपणांत

५) तरनाटेपणांत भंयाक दाखयलो 'कोको'

६) आपल्या दोनूय हातांनी विळखो घालपाक.

- हे 'हात' खोल दरयेंत वाट पळेत विळखो घालपाक बशिल्ल्या मरणाचे.

तशें पळेल्यार, 'भंया'चीं वेगवेगळीं परिमाणां हे कवितेक आसाच आनी हे कवितेचें शिर्शक 'भंय' अशेंय जावं येता.

-आतां कवितेचें हें सगळें विश्लेशण / interpretation कवीच करता म्हणटकीच कविता बरोवपा फाटलो ताचो दिश्टिकोन तो आनीक स्पश्ट करपाक सोदता अशें म्हणचें पड्टलें. अशें जरी आसलें तरी, कवीचो कवितेंतलो अनेकार्थ आनी रसिक/ समिक्षकाचो कविते कडेन पळोवपाचो दिश्टिकोन हो वेगळो आसताच. पूण मुळांत, साक्षात कविता रसिक वाचप्याच्या मुखार आसतना खासा कवीनूच तिचें विश्लेशण करप कितलें पटपा सारकें आसा?

संपर्क : 9422640210

***



# बियो, झाडां, रानां

**मुकेश थळी**

दुकानांच दुकानां भरिल्लीं. एके गल्लींत. एकलो सज्जन भोंवतालो. इतल्यान ताका एक दुकान दिसलें. दुकानाचेर पाटी आशिल्ली - देवाचें दुकान.

कुशीकच्यान खूब शिकिल्ले बुद्धीप्रामाण्यवादी वताले. लेखक, विद्वान, तांच्या रिमोट कंट्रोलाचेर नाचपी तकली नाशिल्ले शेलके. दुकानांत वतल्यांची ते गरजे भायर धजा उडयताले. पूण देवाच्या दुकानांत वचप्यांच्या विश्वांत त्या चिलवणांच्या अस्तित्वाक काडयेची सुवात नाशिल्ली. ना वालोर.

शेजारच्या मॉलांत कथीत शाण्या लोकांचो घोळको वतालो. बायलां दादले मोटो ग्रूप. वरांची वरां. आइड्यो, हुयेली.

हो सज्जन पाटी वाचून देवाच्या दुकानांत वतना ह्या स्वताक विचारवंत समजतल्या टणटणमाऱ्यांनी ताचीं फकणां केलीं. ताचे कडेन येदो व्हडलो घुमारो आशिल्लो अनाहत नाद आशिल्लो की हांचो कर्कश बेसूर बेताल आवाज ताका आयकूंक आयलोचना.

सज्जन भितर गेलो. खूब सुंदर वस्तू थंय विकपाक दवरिल्ल्यो. भव्य दिव्य. 'खोशी'. 'निर्भयता'. 'समाधान'. 'आनंद'. 'तृप्ती'. तीं लेबलां पळोवन तो सुखावलो. मोल कितलें तें लेबल लावंक ना तुमी? सज्जनान नमळायेन विचारलें.

ह्यो सगळ्यो वस्तू फुकट.

सज्जन अजापलो. कितल्यो व्हरूंक मेळटा वांगडा? कितल्योय. ताणें सांगलें... सज्जन गडबडलोच सो. बुचकळ्यांत पडलो.

मुखार गेलो. आनीक सुंदर वस्तू. स्पश्टता. करूणा. प्रेम. दया. भाव. भक्ती. समजिकाय. सज्जन सामको खोश्शी जालो. ताणें आयुश्यांत असल्यो वस्तू पळोवंक नाशिल्ल्यो.

त्या सेल्समनाक ताणें सांगलें - दरेकाचे सोळा सोळा नग बांदून हाड.

इतल्यान तो विक्रेतो भुरगो आयलो. घे. ताणें इल्लीशी डबी सज्जनाच्या हातार दवरली.

- आरे सायबा, हांवें ह्या त्या दरेका वस्तूचे सोळा सोळा नग बांदपाक सांगिल्लें. हें कितें?

- सर, आमी हांगा वस्तू विकनात. बियो विकतात. तुमी रोवन, मशागत लागवड करून तांचीं रानां करूंक शकतात.

- बाकीचे लोक आमची मस्करी करीत आसात. ह्या रोगी लोकांनी दुस्वास, राग, मद, मोह हांच्यो बियो रोयिल्ल्यो तर?

- ना सायबा. तांच्यो बियो रोवंच्यो पडचनात..

- म्हणजे?

- सायबा, तें विखाळ रान आपशींच मातत वता. कांयच करचें पडना. तुवें ह्यो ज्यो बियो घेतल्यात, ते खातीर यत्न करचे पडटात.

कितलेशेच सज्जन त्या देवाच्या दुकानांतल्यान त्यो डबयो घेवन गेले. तांणी त्यो बियो रोयल्यो. तांची कुयदाद घेतली. कल्पने भायर रानां वाडलीं. आनंदाचीं, खोशयेचीं, शांतीचीं, समाधानाचीं, भक्तीभावरसाचीं. भुमितीय श्रेणीन तीं गुणाकार जाल्ले भशेन वाडत गेलीं. सुगंधीत रानां. वासाळ झाडां. चंदनाक फाटीं उडोवपी, अमृतरसाचीं फळां. सुखासमाधानाचीं. स्फटिका सारके स्पश्टतेचीं. जिणेच्या मोखी वटेन दिशा दाखोवपी.

अकस्मात. दोन वर्सां आदीं नकलामी जाल्ले भशेन एक जीव सगळ्यांच्या फाटीक लागलो. सुक्ष्मांतलो सूक्ष्म. पिडा दिसना, कांयच कळना. जगणें कठीण करून सोडलें. पयलीं तर्कनिष्ठ लोकांक मरणाचो भंय दिसतालो. आतां जगण्याचो आनी मरणाचो दोनूय दिसपाक लागलो. बुद्धी लायली. तर्क घांस घांस घांसले. तवशें किसणेर घांसचें तशें. तेवल्यो बावल्यो करपी भियेले. भितल्ल्यान खचले. गात्रां गळसणलीं. नोटींचे कवळे होच आदार समजुपी बेतेकाब जाले. 'पुरोगामी' गुळयो कुडीचे शारीरीक मानसीक भावनीक प्रतिकार शक्तीक उबारी दिना जाल्यो. हाहाकार जालो. हें वादळ आमी पळेलां. मनीसकुळयेन पळेलां. शाणे कितले जाले खबर ना.

मळबांतलें विमान आनी रस्त्यार धांवपी गाडी हातूंत फरक आसता. गाडयेचें नियंत्रण गेलें जाल्यार ती झाडार मारूं येता. खांब्यार धपको दिवं येता. विभाजकाचेर घॉ करून घालून उबी करूं येता. विमानाचें कितें गा? मळबांत जर दोनूय इंजिनां फेल गेलीं जाल्यार? कितलो पिठो, खंयचो पिठो, खंय गेलो कांयच कळना. पिठो जातलो गडप. गायब.

बुद्धीक आव्हान दित रोगाणू सूक्ष्म जीवान सांवार कांडलो. सज्जन शांत आशिल्ले. चित्तवृत्ती थीर आशिल्ली. ते आबोलार, आबूज जालेनात. कारण तांच्यांतलें निर्भयतेचें पोरसूं राना येदें जाल्लें. स्पश्टतेचें पोरसूं,

(पान २८ चेर)

# मन कुशबनः आंब्यावेलो भार

**दादा हेगडे**

जिणेंतले कांय प्रश्न जायते फावट सुटावे जायनात. असल्या वेळार कांय लोक देवाच्या 'प्रसादाचो' नाजाल्यार 'कौलाचो' आदार घेतात. देवळांतल्या गर्भकुडीच्या भायर चौकार एका अर्दान लाकडी पाटार, खांब्यार वा धातुच्या लिंगाचेर फुलाच्यो पाकळ्यो, पानांचे कुडके उदकाच्या ओलसाणेन चिकटावन ते दरम्यान पडल्या उपरांत ताचो अर्थ लावप हाका 'प्रसाद घेवप' अशें म्हणटात. पाकळी, पानां पडपात गूढ अर्थ आसता अशी भाविकां मदीं चलत आयिल्ली मान्यताय. ह्या सगळ्यांचो अर्थ लावपी मनीसुच आसता. कांय जाण हाकाच हांवे देवाक विचारलें अशें म्हणटात. देवाचो कौल हो भारा कडसून घेवंचो पडटा. कौल दिवपी भार लेगीत शेवटाक मनीसुच आसता. भाविक लोक त्या कौल दिवपी मनश्याच्या कुडीक 'अवसराची कुड' म्हणटात. त्या कुडींत जेन्ना अवसर रिगता तेन्ना ताका 'भार' येवप अशें म्हणटात. हो रिगपी देव नासता. तो त्या त्या देवांचो 'असिस्टंट' आसता अशें एकदां म्हज्या देवभक्त आमिगान सांगिल्लें.

हांव असल्या 'भाराच्या कुडी' लागीं वचूंक धजवना. मनीसपणांच्या भौशिक कामांनी 'भारावन' गेल्ल्या लोकांक समाजांत आपलो वावर करतना जेन्ना हांव पळयतां, त्या उपरांत देवाच्या कौला पासत वेगळ्यो भाराच्यो कुडी सोदच्यो पडनात. देवा भशेनूच हे लोक लेगीत निकत्या डोळ्यांनी दिष्टी पडनात. तांका पळोवंक वेगळीच नजर जाय आसता. ती खूपश्या जाणां लागीं नासता हेंवूय खरें. प्रसादाची वा कौलाची गरज लागलीच तर असल्या लोकांच्या कामात हातभार लावंचो. तोच देवान दिल्लो कौल अशे मानून घेवंचें. देवाक लेगीत ते मना सावन मानवता. हें फट अशें समजुपी भाविकांनी खंयच्याय देवा देवीचे प्रसाद फुलाचो नाजाल्यार पाकळेचो प्रसाद घेवन हाची खात्री करूं येता. म्हजो हो आयज मेरेनचो अणभव फट थारचोना. जात, पात, वर्ण विरहीत मनीस 'एकजात' फकत होळी, इंत्रुझ, शिगम्यानी असल्या रंगीत गुलाल उधळावपी उत्सवांनीच दिसता. गोंय सोडून हेर कडेन 'राधे' वांगडा रंगीत होळी खेळपी 'हरी' गोंयांत मात फकत दादल्या वांगड्या रंग खेळता. त्या पासत गोयांत बायलांक 'राधिके, जरा जपून जा तुझ्या घरी...' अशी शिटकावणी गोंयच्या धार्मिक रंगीत उत्सवांनी दिवंची पडना. गोंयच्या इंत्रुझा वेळार लेगीत रंग खेळतना गोंयकार हें स्त्रीदाक्षिण्य पाळत आयला. गोंयच्या भोंवडेर आयिल्या भोंवडेकारांक सरकारी आनी खाजगी उत्सवांनी मात हें लागू जायना. 'आजकि नारी सब पर भारी' आशिल्ल्यान गोंयांत आता हो सामाजिक तसोच धार्मिक बदल घडून येवंक लागला.



केपेंच्या कटो- आमोणा वाड्यार श्री चंद्रेश्वर देवस्थानाच्या वार्षिक शिगम्याची सांगता रंगीत गुलाल खेळून जाता. जांबावलेच्या गुलाला इतल्याच उमळशिकेन हांव ताची वाट पळेतालों. केपेंच्या कट्यावेल्या शिगम्याचे मुखेल आकर्षण म्हळ्यार 'आंब्यावेलो भार' आशिल्लो. थळाव्या देवाच्या अवसराकडसुन भाविकांचो राखणेचो कौल घेवन जाल्या उपरांत आप-आपसांत गुलाल खेळप आनी आंगावेलो तो रंग निवळावन घेवंक पाणट्यार न्हावन घरा वचप. ही वर्सावळीची रीत जावन आशिल्ली. आयची पिळगी आंगावेलो 'कलर' निवळावपाक आप आपल्या घरा 'शॉवर बाथ' घेता. हातूंत तांची चूक ना. केपें कुसमणचो पांटो लेगीत आतां आदले बशेन न्हावपा सारको उरूंक ना. देवळा कडसून पांट्यार वचपाच्या वाटेर एक व्हड आंब्याचें झाड आशिल्लें. आतां ते थंयसर दिसना. पांट्यार न्हावंक वचचे आदीं सगळे जाण त्या आंब्या झांडामुळा आंब्यावेल्या भाराकडसून 'ताचो' शब्द घेवंक एकठावताले. आंब्यावेलो 'तो' आनी 'ताचो भार' ह्यो दोनुय गजाली काल्पनिक आशिल्ल्यो. भाराच्या म्हणजे अवसराच्या 'कूडीचे' सवंग श्री चंद्रेश्वर भूतनाथ देवस्थानाचो त्या वेळचो एक सेवेकरी सर्गेस्त यशोधन पर्वतकार हो वठयतालो. दुसरो सेवेकरी जोतकार ह्या आडनावांचो. तो आंब्यावेल्या 'ताका' उलो मारपाचें तशेंच भाराक प्रस्न विचारपाचें काम करतलो. त्या भायर मदीं मदीं उसळपी त्या भाराक सांबाळपाचें काम ताका करचें पडटाले. भाराक होरावंक गाराण्यान सुरु जातालें. गाराणेंच मजेशीर आशिल्ल्यान जमिल्ल्याचे हांसप हांगासावन सुरु जातालें. हागांसर जमिल्ल्यांनीं आंब्या मुळांतलो सुक्या पानांचो पालो एकठावप आनी तो हर... हर... हर... अश्यो मोठ्यान हूयेली मारत भाराच्या तकलेर शेवटावप. तांदळाच्या अक्षताच्या सुवातेर सुक्या पानाचो वापर हो 'पर्यावरणाच्या राखणेची मोख' नाजाल्यार 'धान्याच्या नासाडीचो बचाव' असल्या घोशणाचो परिणाम तर निखालस नाशिल्लो. त्या झाडाच्या मुळासरी तो सोपेपणान मेळटालो इतलेंच तें कारण आशिल्लें. ह्या हुयेलींनीं जमिल्ल्यांचे आवाज भरसटून वताले. आंब्यावेल्या भाराच्या कौलाची मजा घेतल्यामदीं दादले, बायला, तरणाटे, जाणटेले, भुरगीं, म्हाजन, गीरीजन, मानकरी, सेवेकरी ह्या सगळ्यांचो आसपाव आसतालो. 'हर हरा'च्या मोठ्यान घाल्ल्या हुयेली सरशीं भाराच्या कुडींत 'ताचें' आगमन जावपाची सगळे अधीरतायेन वाट पळेताले. कांय खीणांतूच यशोदनाच्या कुडींत त्या आंब्यावेल्या 'ताचो' शिरकाव जातालो आनी 'कुडीचें' शिरशीरप सुरु जातले. यशोदनाचे तें फटीचे आंग शिरशीरावप

देवळांनी येता त्या भारांच्या कुडीच्या शिरशिऱ्याक साप्प फाटीं घालतालें. तशें पळोवंक गेल्यार हे भार येतनाचे शिरशीरपी आंग खरें कांय फट तें शिरशीरतल्या कुडीकुच खबर! कुड पुरायेन भारावल्या उप्रांत भक्ताचे प्रश्न आनी त्या प्रस्नाक जापो दिवंक सुरू जाताल्यो. ''कित्याक उलो मारलो रे?'' भाराच्या वर्सावळीच्या त्याच प्रश्नाक ''सायबा.... वर्स पद्दती प्रमाणे...'' ह्या भक्तांच्या सदच्याच जापेन जोतकार आनी यशोदन हांच्या मदीं भासाभास सुरू जाताली. ह्या भासाभाशेंत देवळाच्या कोमिसावांच्या क्रियाविशयक, म्हाजनाच्या आनी सेवेकरांच्या कर्तव्याविशीची वासपूस जाताली. त्याच भशेन थळावी, राजकारणी, समाजकंटक, समाजसुधारक सगळ्या तरेच्या लोकांच्या घोटाळ्यांच्या येतिश्ट धुलाये वांगडा तांणी केल्या बऱ्या कर्तुपाची तितलीच तोखणाय लेगीत जाताली. धुलाय तर सामकी बरे वासाच्या साबणाची खीस घालून जातली. त्या वेळार 'वॉशिंग पावडर' आतां आसा तितलो पोपुलर नाशिल्लो म्हण खीस लागताली. हें सगळें नाटक कोणाकुय कसलेच वैयक्तीक त्रास दिनासतना, टीका करीनासतना जातालें. भूरगेपणांत म्हजी वळख 'ब्लेक कॉमेडी' सांगाता पयलीं हांगासर जाली. त्या भायर थोमणे कशे 'स्पोर्टींगली' घेवंक जातात हें हांगासर शिकपा सारकें आसलें. ह्या सगळ्या फार्सिकल गजालींक कोणूच कसलीं आडमेळीं हाड नाशिल्लो. ह्या धुलायेंत आनी तोखणायेंत थंयसर जमिल्यांचो लेगीत आसपाव जातालो. सगळे हाची मनाकाळजा सावन मजा घेताले. सुरळीत चलपी ह्या कार्यवळीत कोणेच केन्ना कसलीच आडमेळीं हाडिल्ल्यांची याद जायना. कार्यावळभर प्रतिसाद म्हण 'ताळ्यांचो गडगड' जाय नाशिल्लो. जाताली ती फकत भौसाच्या पोट भरून हांसपा वांगडा आंगावेल्या रंगात एकजात जाल्ल्यांनी एकामेकांक दिल्ल्या ताळ्यांची दाद. चडांत चड पंचवीस मिनटां ते अर्देवर ही सुंदर कलाकृती सादर जाताली. म्हज्या म्हायती प्रमाण तें शिगम्यातलें पयलें 'पथ नाट्य' आसूंक फावो. करमणूकेच्या भाशेंत 'आंब्यावेलो भार' हो खऱ्या अर्थान 'कुसमणची जीती जागती हास्य जात्रा' आशिल्ली म्हणूं येता. त्या वेळार पक्ष, सरकार, बदलप आयचें इतलें सोंपें जांव नासलें. राजकीय नितीमत्ता मातशी जिती आशिल्ली. आयज एका घडीक मनांत विचार येता. आंब्यावेल्या त्या भाराक जर आयच्या राजकीय ना जाल्यार सामाजिक परिस्थितीचेर प्रस्न विचारिल्ले तर तो कितें जाप दितलो आशिल्लो काय? आनी ताणे दिल्ली जाप थंयसर जमिल्ले आदल्या भशेन थंडसाणेन आयकून घेवपाचे काय? ना, आज ती परिस्थिती निखालस उरुंक ना. आदले भशेन जापेक हांसपाचे सोडाच, त्या गर्देंतलो कोमिसांव समर्थक, राजकीय समर्थक, महाजनवादी, गिरीजनवादि, बुद्धीवादी, शिक्षित बेकार, समाज सेवक असल्या कोणापैकीं उठून भाराच्या कानसुलार मारपाक फाटीं फुडें जावंचो नाशिल्लो. कारण व्यंग आनी तांतलो सामाजिक संदेश आजकाल समजून घेवपी रसिक विरळ जायत चल्ला. देवस्थान कमिटी, थळावी आनी सेवेकरी हांच्या पुलितीकाच्या शिगम्यांमदीं बरींच वर्सां फाटीं ह्या आंब्यावेल्या अवसराचें विसर्जन जालें तें आयज मेरेन तशेंच उरलां.

हालींसरा गांवच्या रस्त्याच्या दोनीं अर्दांनी तशेंच तिठ्यार काम्र नाजाल्यार पंचायतीन सरकारी वनमहोत्सवा निमतान लायिल्लीं झाडां दिश्टी पडटात. कसलींच फळां फुलां येनात अशीं ही वांझ कशीं झाडां. असल्या झाडांचेर सुकणीं घोंटेर लेगीत करनात. मात ही झाडां वर्सभर कचकचून पानांनीं चवरिल्लीं आसतात. ह्या झाडांची पानां लेगीत बेगिन सुकनात. हाकाच लागून असल्या झाडां मुळांत झडिल्या पानांचो सुको पालो दिसना. आनी केन्नाय तो जालो लेगीत तर तो जायते फावट नितळ ग्राम येवजणेखाला सरकारतर्फे निवळ जाता. जायत्या वेळार चड करून सांजवेळा असल्या ह्या झाडां मुळांत गावांतले खुपशे तरणाटे गोठेल्ले नजरेंत वतात. तेच लोक त्याच वेळार एकठावप हें थारिल्लें कशें आसता. हांच्या मदीं चड करून स्वयंघोषित समाजसेवक, इच्छूक राजकारणी, बेकार शिक्षीत आनी 'गव्हर्नमेंट जॉबाची' वाट पळेतल्या बेकारांचो चड करून आसपाव आसता. तांच्या गजालींत ताज्या घडणुकेंचो, राजकारणाचो आडावो पयल्या पांवड्यार आसता. कोण खंय चुकता, कोणाक कितें सारकें कळना आनी त्या जाग्यार आपुण स्वता आशिल्लो तर कितें करपाचो असल्योच चकाट्यो हांगासर चड करून चलतात. दर दिसा ठरावीक वेळार हो शिगम्याचो मेळ भरता. पात्रां सदचींच थारिल्लींच आसतात. हांच्या 'कुडिक' भार हाडचेली गरज नासता. कारण हे पयलीच आपलेच तंद्रीत भारावलेले आसतात.

*(पान २५ चेर)*

# भेट

**स. पांडुरंग भांगी**

(अनंत अवकाशात अकस्मात तांची भेट जाता. ही भेट जायत म्हणपाची तांका मातपासून सुलुस नाशिल्ली. साद्या-सुद्या विचारांचे, तुमचे आमचे भशेनूच अत्यंत सादे-सुदे हे दोन जीव - दोन आत्मे - आपल्याच मनशांचेर उलयतात आपली मनशां सुखा-समाधानांत नंदची, ही तांची मनापासूनची इत्सा. तांचे कल्याण जावंचे, ही तांची भावना. तांचे कोणाकडेनच वांकडेपण ना. कोणाकडेनच झगडें ना. कोणाचेरच ते शिणनांत. कोणाचेय दुस्वास करीनात. तांच्यांत आनी आमच्यांत भेद इतलोच कीं, तें जें उलयतात तें आमच्या कानार पावना तें आमचे नदरेक दिसनात.)

**पैलोः** केन्ना आयलो रे तूं? एका उतरान तरी कळोवंचे आशिल्लें सभाग्या.

**दुसरोः** कित्याक? तुमी म्हाका मेळूंक येतले आशिल्ले?

**पैलोः** केन्नाय.

**दुसरोः** तर ह्या पैलींच म्हाका येवंचे पडटलें आशिल्लें. खरें सांगप म्हळ्यार, येदे बेगीन हांव हांगा पावन म्हणपाचें म्हांका तरी खंय खबर आशिल्लें? अकस्मात जोरसो आयलो, तकलेंत फोडा-फोड जावपाक लागली. तीनचार दीस हांतूण; आनी मागीर हांगां. हें कितें जालें आनी कशें घडलें, हाची सुनशा कोणाकच लागली ना. दोतोरांक पासून

**पैलोः** दोतोर म्हणून कितें धन्वंतरी रे? हरशीं तुका चडशे त्रास जालेना मूं?

**दुसरोः** नां हो. दुसरें कितेंय विचारात पळोवंया.

**पैलोः** एक सांग, कितें खबर रे थंय?

**दुसरोः** म्हणपासारकी कांय ना. पैलीं म्हणून सांगपासारकें कितें आशिल्लें? आमच्या सारकिल्यांची जीण म्हळयार सदांचीच रड आनी सदांचीच चिंता. फुडल्या हुस्क्यानूच आमी लागीं येतात. भोगून घेवपाक तरी आमकां खंय समजता?

**पैलोः** हो कितें म्हाका थोमणो?

**दुसरोः** न्हय हो. एक सांगात, विचारतां म्हणून रागार जावं नाकात आं. तुमच्या फाटल्यान लोकांनी थंय कितें कितें म्हळें तें तुमकां खबर आसा? ते अशें उलयले म्हणून तांचो अन्याय करिना हांव. ना उलयल्यारच अजाप आशिल्लें.

**पैलोः** कितें म्हळें ताणी?

**दुसरोः** तुमी सुणो कशे मेले म्हणून. ऐन वेळार पासून तुमी वखद-विर्सद केलें ना खैं. तुमगेल्या तिरसुवादपणाक लागूनच तुमच्या तुमीच तुमचो घात करून घेतलो. खरें मूं हें?

**पैलोः** जायत! दिवाक साकून येतपसून हांव बरोच नाशिल्लों. खरें म्हळ्यार म्हाका विश्रांती जाय आशिल्ली. आनी ती घेवंक म्हाका फावलेंच ना.

**दुसरोः** फावलें ना म्हणूं नाकात. घेतलीना म्हणात. थंयच तुमी आयकनाशिल्ले. थंयच तुमी इल्ले इल्ले अशक्त जायत वताले. दोन दोन दिसांनी तुमच्या आंगावेल्यान ऊब गेल्लीच आशिल्ली. तुमच्या फाटल्यान लागूनय, तुमी एक दिस दोतोरा म्हऱ्यांत गेले नात, न्हय एक दिस वखद-विर्सद केलें ना.

**पैलोः** देखून अशें जालें म्हण्टा तूं? म्हगेलो आजो आनी पणजो कशे आशिल्ले जाणा? पाटी कशे लांब-रूंद मानाय. तांकां एक दिस पासून थंडी-भारकूण जाली ना. एक दिस वखद घेवंचे पडलें ना. अशें आसूनय ते कितें चड वाचल्यात? आमगेले घरवडिचीच बड ती.

**दुसरोः** कसलो खूळ घेवन बसल्यात हो. आपणेच सारकें करूं नये; आनी बडीचेर कित्याक घालप?

**पैलोः** बाबा रे, तुका हें कळचें ना. आजूनय तूं भुरगो आसा. हांवें निदान पन्नास पावसाळे तरी पळेले. तूं तर वयावेलो भुरगो. तुजें अशें कित्याक जालें?

**दुसरोः** अशें म्हळें म्हणून जाता हो?

**पैलोः** जावं रे, एक सांग. म्हगेली मुस्तायकी पावपाची आशिल्ली ती पावली

**दुसरोः** तुमी गेल्या उप्रांत अवघ्या धा-बारा दिसांनीच पावली.

**पैलोः** ते मुस्तायकेक हांव रावतालों; जाणा? चडशे म्हगेलें सामान उरिल्लें. तातूंत म्हगेली रांदपाची आयदनां आशिल्ली. तीं पावतलीं आनी म्हगेले घरकान्नींक तीं दाखोवन सांगतलों म्हणून आशिल्लों....

**दुसरोः** कितें सांगतले आशिल्ले तुमी?

**पैलोः** तूं थंय नाशिल्ली जाल्यारूय कुस्कूटपासून म्हजे अडचलें ना म्हणून.

**दुसरोः** तिका जाय म्हणून ती पैस राविल्ली हो? तुमच्या हातांनीच तुमी रांदून जेविल्लें पळोवन तिका कितें समाधान जातलें आशिल्लें?

**पैलोः** तशें न्हय रे. ओगीच एक पोकी व्हडविक. मात्शिशीं तिजीं फकणां.

**दुसरोः** नाय जाल्यार, तुमी थंय खूपच हाल काडले. आंग जोरान पासून भाजल्यार तुमचे तुमीच रांदून जेवताले. सकाळच्या एका पारार, शीत करून दवरून, तुमी रेपार्तिसावांक वताले. उप्रांत दोन वरांच्या कडार, हा हा करीत येवन, रोस कडी करून, न्हावन - धुवन तें न्हिवून थंड किरांव जाल्लें शीत तुमी पोटांत धुकलताले. मागीर तरी, जेन्ना तुमी आनी हांव एकठांय रावताले, त्या वेळार तरी अशें करचेली गरज नाशिल्ली. जेवण करपाक म्हगेलो पोर आशिल्लो. परंतु - परतून सांगुनय तुमी आयकलें ना. तुमी पडले मोठे हट्टी.

**पैलोः** खरें बाबा. जाल्यारूय आतां उलोवन कितें मेळटा? एकेकाचो सभाव तो. आनी सभावाक खंय वखद ना, ही जाण्टयांची सांगणी....एक सांगू? कोणागेरय सादो चा पासून घेतल्यार. तांच्या उपकारांत राविल्ले भशेन जाता. आपलोसोच रांवचेली मुदलचीच सवंय. आपल्या खातीर दुसऱ्याक त्रास तरी कित्याक दिवप?

**दुसरोः** त्रास? कसले त्रास हो? या जाग्यार आमची मायेची मनशां नाशिल्ली, थंय आमी एकमेकांक आधार दिना जाल्यार आनी कोणाक दितले आशिल्ले? आनी गांव तरी कसलो? एक खाणावळ ना. एक ब्राह्मणी ना. मसण कशें सडो. भास वेगळी. भेस वेगळो. सगळेंच वेगळें. असल्या गावांत एकमेकांखातीर कितेंय केल्यार त्रास दिल्ल्याभशेन जाता हो? म्हाका दिसना.

**पैलोः** आसूं रे.

**दुसरोः** आसूं कित्याक? हें सांगात, तुमी

थंय आपलेशेच रावताले, आनी जाता तशी दुसऱ्याची कामां करताले. इतलेंय करून लोक तुमचेर बरो आशिल्लो? वेल्याचाराक तुमचेकडेन बरेभाशेन उलयतालो. फाट जाली कीं तुमकां तासूंक लागतालो. एक मोटवेंशें कुट्टें घालून तुमी थंय भोंवताले. ताजेरच तुमच्या फकाणांक आरंभ जातालो. दळिद्री कसो भोंवता म्हण्टाले. दोन वर्सामेरेन तुमी घरा वचनासतना रावले. ताचेरच तुमच्या कसाब अंतस्कर्णाची ते गवाय दिताले.

**पैलो:** बाबा रे. ताणी फकाणां माल्ली म्हणून म्हज्या आंगाचो कुडको पासून गेलो ना. हांव थंय कोणाच्या बेल्यांतय गेलो ना. कोणाच्या उपकारांतय रावलों ना. म्हजी परिस्थितीच म्हाका जड आशिल्ली. तातूंतय म्हगेलो आब म्हाका राखूंक जाय आशिल्लो. त्या वेळार म्हगेली सगळी जोड कितली आशिल्ली ती जाणा? अवघे दोनशी रुपया म्हज्या हातार पडटाले. भुरगे-बाळकार मनीस हांव. चौग चले आनी दोगी चलयांचो बापूय. तांचे बरप - अक्षर आशिल्लें. सगळो घर-खर्च आशिल्लो. त्या भायर थंय म्हगेले प्राणरक्षणेक खर्च लागतालो तो वेगळोच. म्हाका कितें आनी भाटां-बेंसा आशिल्लों रे?

**दुसरो:** तें जाणा हो. देखूनच तुमच्या जिवाची तुमी जतनाय घेवंक जाय आशिल्ली. उबी दोन वर्सां तुमी पैस उल्ले. त्या दोन वर्सात तुमच्या भुरग्यांचेर काय तुमी नदर घालूंक पावले नात. हावा शिवा करून तुमची बदली जाली. मडगवां, तुमच्याच घरा तुमी पावले. पुराय तीन म्हैनेपासून जाले नात, तुमी भायर पडले म्हणपाचे कोणे तरी सांगलें. घट्ट याद आसा म्हाका. तो दिस आयतार आशिल्लो; आनी पणजे कसलेशें 'फेस्त' आशिल्लें. थंयच म्हाका, कोणें तें आतां याद ना, सांगलें की अकस्मात पैल्या दिसा रातचें कितेंशें जावन तुमी भायर पडले म्हणून. तुमगेल्या भुरग्यांक, तुमगेले बायलेक पासून, त्या वेळार तुमी म्हऱ्यांत येवंक दिले नां खै. घरची वैज आसून, ताका पासून तुमी वखद-विर्सद करूंक दिलेंना. खरें मूं हें! (ताजेकडेन पळोवन) तुमी अशें चितेस्तशे? वांकडे दिसले?

**पैलो:** ना रे, कितलोय जाल्यार तूं म्हाका पुता समान. तुजें आनी कितें वांकडें धरप? केन्ना केन्नाय घरची याद येता रे. मनच उखलता. भुरग्यांनीं उलो मारिल्लेवरी भास जाता, आनी जिवच पिशार पडटा. खरें दिसत? ती म्हज्या म्हऱ्यांत येता पापया. येता आनी विचारता: आत्तांच हांव तुमकां परकी जालीं? तुमच्या बराबर म्हाकाय तुमी कित्याक व्हेली ना. कित्याक? तिका कितें सांगचें तेंच म्हाका कळना. तिजी तोखणाय हांव गायना. पुण खऱ्यांनीच गुणांची आशिल्ली ती. म्हगेले घर सदांच गरजेवंताचें घर.. त्या घरांत आनी कितें आसताले? जाल्यारूय ती सदांच प्रसन्न आसताली. फुलांचो तिका मोठो सोक. जाल्यारूय एक दिस पासून फुलां घेवन हांव काय घरांत आयलों ना. मुद्दाम न्हय रे. पूण जमलेंच ना तें. हांवें तिगेल्या इत्सा केन्ना समजून घेतल्यो नात. तिज्या मनांक कितें दिसुंये, हें म्हाका केन्नाच येवजलें ना. येवजता आतां. देखूनच दिसता, म्हज्या पैलीं ती वचपाक जाय आशिल्ली. जाणां? भांगर जातले आशिल्लें तिज्या आयुश्याचे.

**दुसरो:** जाल्यारूय अशें मनाक कितें लावप?

**पैलो:** मनाक लावप? कशे सांगू? उचंबळून येता सगळें, उचंबळून येता. घोव म्हळयार तांगेले सर्वस्व. तांच्या जिवाचो आधार. ती आतां जेवंची ना. खांवची ना. उदकाचो थेंबो पासून घेवंची ना. तिगेलो ध्यास म्हाका कळटा. पुण प्राण म्हण्टा तो विचित्र पापया. चांचडा भाशेन वातड. वचुनय वचना.

**दुसरो:** गोविंदबाब!

**पैलो:** उलोवं दी रे म्हाका. उलोवं दी. एक दिस पासून जश्यो तिगेल्यो इत्सा समजून घेतल्यो नात, तशीच एक दिस पासून भुरग्यांचीय अर्थ-अर्पुबाय केली ना. आतां जिवाक लागता रे. बापूय जाल्याबगर बापायचें काळीज समजना पुता. म्हगेलो धाकलो, जाणा? मोठो बण्ट, मोठो आडांगी आनी पराकास्टेचो हट्टी, आतां आनी कितें करतात म्हणून कोण जाणा. कशें जातले रे तांचे, कशें?

**दुसरो:** गोविंदबाब, तुमच्या दोळ्यांत आनी दुखां? कितें उल्लां तुमचें आतां? जिवांतल्यान तुमी मुक्त जाले, तरी विवंचना कित्याक? कित्याक हे मायेचे पास?

**पैलो:** मायेचे पास? ही मायाच पापया. सगळो संवसार राखता. तोड्टलो म्हळयार पासून ती तुटना. दिसता, परतून जल्म मेळचो. तेच घरकान्नीकडेन संवसार करूंक मेळचो. तींच भुरगीं मेळचीं. जें जमलें ना, तितलेंय तांच्या खातीर करचें. सुखा-समाधानान सगळें घर भरून उडोवचें. (मात्सो थारून) आमकां संवसार करूंकच कळना रे. आसा तातूंत आमी केन्नांच तुस्ट नात पळे.

**दुसरो:** खरें तुमचें. जाल्यारूय इतले मनांक लावप? तुमी संवसार कितें म्हण्टा तो पळेला. कायशें तुमी भोगलां. ऐन उमेदीर हांव हांगा पावलों. म्हाका कितें जावंक फाव? आमच्या खातीर कितें संवसार रावतलो हो?

**पैलो:** नारे. जाल्यारूय माया म्हण्टा ती राव ना पापया, रावना.

***

*(पान १५ वयल्यान)*

सदळ हातांनी आमच्या पोशांत भरून भरून दिलें. पूण अचकीत काल एक झाड कापपाची टिम आयली आनी आमच्या दोळ्यां हुजीर लायटिच्या खरवतींनी ती अर्दी बेणून उडयली. तो देखाव पळोवं नजो जालें. काळीज रडलें. आतां उल्लां तें फकत एक खोड. आमी सगळे हतबल जाले. सांतोणीची ती अवस्था वळोवन सगळ्यांच्या काळजांत चर्र जालें. दोळ्यांतल्यान दुकां आयलीं.

आतां आमकां त्या सांतोणीच्या फुलांचो वास येवंचो ना. आमच्या रस्त्यार सांतोणीच्या फुलांचो सडो पडचो ना. आमकां सांवळी मेळची ना. आतां फकत थंय वसता विचित्र उजवाड आनी खर रखरख. हांव देवाकडेन मागतां, पाराथतां, तें जे खोड उल्लां ताका परत एकदां पालवी येवं. कोमऱ्यो आंकऱ्यो येवं. परत ती सांतोण उंच मळबाक तेंकू. पूण ही फकत म्हजी इत्सा. झाडभक्षकांनी तें उरलां तें खोडय बी कापून उडयल्यार?

संपर्क: 9923306751

***



# ओतोलीनो

**अरुण जयराम कामत**

मयडेच्या कोपेल वाड्यार रावपी रॉकी भाटकार हो त्या गावांतलो सगळ्यांत व्हडलो भाटकार. कोपेल वाड्याच्या एका पोंताक सुरू जाल्लें ताचें भाट, वाड्याच्या दुसऱ्या पोंताक आशिल्ल्या व्हाळा मेरेन तेंकिल्लें. कितलेशेच मुंडकार, मानाय, कामेऱ्यां, भाटकाराच्या भाटांत कामाक आशिल्लीं. रॉकी भाटकार आनी ताची बायल फिलोमिन हीं फकत पयशांनीच न्हय तर मनांनूय तितलींच गिरेस्त. आपल्याकडेन वावर करपी प्रत्येक जाणांक दोन वेळचें पोटभर जेवण मेळचें, तांची भुरगीं बरी शिकचीं, सगल्यांची भलायकी बरी उरचीं हाचीय ती जतनाय घेतालीं. रॉकी भाटकाराक चार भुरगीं. तातुंतली दोन पुर्तुगालाक रावतालीं, एकटो चर्चिंत फादर आशिल्लो. जाल्यार सगळ्यांत धाकटो लॉईड हो पुर्तुगालाक वचून दोतोर जाल्लो. आपल्या बापाय भशेनच गोंयचेर मोग करपी लॉईड, दोतोर जातगीर गोंया येवन म्हापशां शारांत प्रॅक्टीस करतालो. दोतोराचो हातगुण आनी सबाव दोनूय बरे. कमींत कमी गुळयो – वखदां दिवन बरो करपी दोतोर लॉईडाकडेन सदांच गर्दी आसताली.

रॉकी भाटकार आनी फिलोमीन भाटकान्नीगेर भाटांत वावराक आशिल्ल्या मनशांत तांचो सगळ्यात विश्वासू आशिल्लो तो ओतोलीनो. ओतोलीनो कामाक वाघ. भाटकाराक सामको इमानदार. ताका याद जाता तेन्नाच्यान तो आवय – बापाय बराबर आपल्या भाटकारागेर वावर करता. भाटकान्नीन ताका आपल्या भुरग्यांबरोबर शाळेंत घालो. पूण ओतोलीनोचे मन केन्ना शाळेंत रमलेंच ना. कसो बसो चवथी जाल्लो. ओतोलीनो मागीर भाटांनूच काम करूंक लागलो. ताका ताच्या मांयभशेन कातारां म्हणपाक आवडटालीं. गोड आवाज आशिल्ली ओतीलोनीची मांय भाटांत, घरांत वावर करतानां कांतारां, दुलपदां गुणगुणत आसताली. ओतोलीनो गांवच्या चर्चीच्या फेस्ताक जावपी तियात्रांनीय बारीक बारीक कामां करतालो.

भाटातल्यां बाकीच्या मानाय आनी वावुरप्यांमदीं ओतोलीनो भाटकाराक चड लागीं जावपाक आनी एक गजाल म्हणल्यार, ओतोलीनोचे तोंड. तो उलयता उलयता दुसऱ्याची अशी टोपी उडयतालो कीं बाकीचे आयकणारे हांसतच उरताले. ओतोलीनो खंयचीय गावांतली गजाल इतली रंगोवन मीठ मिरसांग लावन सांगतालो कीं भाटकार, भाटकान्न तांची भुरगीं ताच्यो गजाली आयकतच उरतालीं.

त्याच कॉपेल वाड्यार आनी एक व्हडलो भाटकार म्हणल्यार आंतोन शावियर. फाटल्या वर्सा गोंय सोडून गेल्ले पाखले आयज नाजाल्यार फाल्यां परते येतले म्हणून वाट पळोवपी जे गिरेस्त लोक सरकारी अधिकारी गोंयांत आशिल्ले. तातूंतलो हो आंतोन शावियर भाटकार. पुर्तुगेज परत येतले म्हणून ताका आस्त आशिल्ली.

आंतोन भाटकार पयशाक सामको काटूक. म्हापशेंच्या शुक्राराच्या बाजाराक तो केन्नाच सकाळचो वचनाशिल्लो. शुक्रारा सांजवेळचो तो बाजार करतालो. कित्याक तर सांजवेळचेर भाज्जेकार, नुस्तेंकार उरला तो माल बेगीन खपूंक जाय म्हणूय सवाय दरान विकताले. आंतोन भाटकार तिनसान जातगेर नुस्तेकान्नीकडें वतालो. "हो वांटो कसो दिला गे?' काळोख जातगीर बाटलेंत रॉकेल घालून दिवे पेटोवन नुस्तें विकूंक बशिल्ल्या नुस्तेकान्नींक भाटकार विचारतालो. नुस्तेकान्नीन दर सांगतगेर नुस्तें पळोवपाक म्हणून बाग घेतालो आनी फुक मारून दिवो पालयतालो. काळखांत नुस्त्याच्या वाट्यांतले थोडें नुस्तें पोतयेन उडोवन "नुस्ते बरें ना मुगो, पोवशेलांशे दिसता." अशें म्हणून चलूंक लागतालो. सगळ्यांक आंतोन भाटकाराची ही वायट संवय खबर आशिल्ली. पूण इतलो गिरेस्त भाटकाराक कोण किदें म्हणटलो म्हणून ती गरीब नुस्तेकारां बाबडी ओगीच रावताली.

एका शुक्रारा रॉकी भाटकार, भाटकान्न आनी ओतोलीनो, भाटकाराच्या बल्कांवात गजाली करीत बशिल्लीं. दर शुक्राराभशेन सांजवेळचो आंतोन भाटकार म्हापशां बाजाराक वचपाक रॉकीच्या घरा फुडसून चलत वतालो. "येताय रे, ओतोलीनो? म्हापशां बाजारांत वोचोन येवंया मरे" ओतोलीनोक हडकित आंतोन भाटकारान म्हळें, "हांव येना रे भाटकारा तुज्या बराबर! ह्या गांवच्या लोकांनी म्हापशां शारांत वचोन नामना जोडल्या, तेंच्या करण्यान दिवे लायल्यात आनी तूं मात म्हापशां बाजारात वचोन दिवे पालोयता मरे. आमकां लोजेक घालता मरे. तुज्या वांगडा आनी येवपाचें रे? लोज मुरे." अशें ओतोलिनोन म्हणलां मात बल्कांवार आशिल्ले भाटकार, भाटकान्न आनी भायर–भितर वावर करपी कामेऱ्यां, मानाय खळखळून हासूंक लागलो. त्या दिसाच्यान भाटकार आंतोन शावियर दिसा उजवाडचोच म्हापशां बाजाराक वचपाक लागलो.

ओतोलीनोच्या हळूच काडिल्ल्या उतरांच्या चिमट्यांक लागून वाड्यावेलेच न्हय तर गांवांतले सगळेच लोक ताका भिवन आसताले. तो केन्ना कोणाची, तोपी कशी उडयत हाचो नेम नाशिल्लो.

एका सांजवेळा गांवांतले लोक दत्ताराम वाण्याच्या दुकानाभायर आशिल्ल्या बाकार बसून गजाली मारताले. ओतोलीनोय आशिल्लो. ह्या दत्ताराम वाण्याचे लग्न जाल्लें. ताका भुरगींय आशिल्ली तरी गावांन ताचें एक 'आंगोस्तोर' आशिल्लें. गांवात सगळ्यांक जरी तें खबर आसलें तरी कोण ताच्या तोंडार उलयनासले. बांकार बसून चकाटां मारतां मारतां ओतोलीनोन दत्ताराम वाण्याक विचारलें, "पसरकारा, आज निस्तें कितें खायलें?" "शी! शी!" आज एकदस मरे माझी. आज हांव कांयच खायना. निस्तें

आनी किदें विचारता रे तूं''

"आं! एकादशी दिसा कांयच खायना? पूण आतां 'गोडशें' खावपाक देऊळवाड्यार वतलो मरे?" ओतोलीनोन थंडपणान दत्ताराम वाण्याक विचारलें. बांकार बशिल्ले लोक पोटांत मुड्ड्यो पडीसर हासूंक लागले. आनी दत्ताराम वाणी मान सकयल घालून गिरायक करपाक लागलो.

रॉकी भाटकाराचो, दोतोर आशिल्लो चेडो दोतोर लॉईड हाच्या कोंन्सुलतारींत सदांच गर्दी आसताली. लोकांक वरांचे वरां आपलो नंबर येता म्हणसर वाट पळोवंची पडटाली. ओतोलीनोची हळदोण्यां रावपी मेवणेचो चेडो बरो ना जालो. कितले दोतोर केले तरी ताका गुण पडनाशिल्लो. मेवणी फिलसू, मयड्या ओतोलिनोगेर आयली. "म्हाज्या चेड्याक घेवून आज म्हापशां दोतोर लॉईडाकडे वोयतां. पूण इतको वगोत हो बसचोना थंय. तू मात्शें सांगोन पोय मरे. आमकां बेगीन घे म्हणोन." फिलसून ओतोलीनोक सांगले. "फिलसू तू लॉईड बाबाच्या कोंन्सुलतारींत वोच. थिंगा आशिल्ल्या कंपाउडराक सांग, म्हाका दोतोराच्या भाटांत वावर कोरपी ओतोलीनोन धाडला म्हूण. तो पोय, नाकार येयिल्लें वोक्ल, ओहो बोट लावून वोयर काडटलो." ओतोलीनोन फिलसूक कंपाऊंडराची ॲक्टींग करून दाखयली आनी सांगले, "मागीर तो कदेलावयलो उठ्ठलो. दोनूय कोपोर कमराक लावून, कमराखाला गेल्लें काल्सांव परतून कोपोर लावन वोयर काडटलो, तुजें नांव किदें काय तुका विचारतलो, आनी दोतोराक सांगूक वयतोलो. दोतोर मागीर तुका सोमतोच आपयतलो." हें सगळें ओतोलीनोन फिल्सूक सारकें ॲक्टींग करून दाखयलें.

फिलसू, वताच्या कडार म्हापशां आयलें आनी प्रासाक तेंकून आशिल्ल्या बिल्डीगेंतल्या दोतोर लॉईडाच्या कोंन्सुलतारींत गेलें. भायर बशिल्ल्या कंपाउडर लेजियोक ताणे, आपूण ओतोलिनोची मेवणी आनी आपलो हो धाकटो चेडो सामको बरो ना म्हूण सांगलें. कंपांऊंडर लेजियो हाणे नाकार देविल्लों वक्ल बोट लावन वयर काडलें, तो कदेलावयलो उठलो, दोनूय कोपर कमरेर दवरून, कोपर फाटीं फुडें करत कमरार देविल्लें काल्सांव वयर काडलें, दोतोराक वचून ओतोलीनोची मेवणी आयल्या म्हणून रेकाद दिलो आनी दोतोरान आपयना फुडें फिलसूक भितर धाडलें. कंपाऊंडर लेजियो हें सगळें करतनां फिलसूक ओतोलिनोन किदें सांगिल्लें तें याद जाताली आनी ताच्या प्रत्येक हालचालीक पळोवन हासूंक येतालें. लेजियोची काल्सांव वयर काडपाची स्टायल आनी सारकी तशी करून दाखयल्ली ओतोलीनोची ॲक्टींग याद येवन तर ताका सामकेंच हासूंक आयलें. ही बायल अशी कित्याक हांसता म्हणून लोक पळयताले. तर आपल्याक पळोवन ती इतली हांसता म्हणून लेजियो आबूज जालो.

फिलसूक हांसप थांबोवपाकूच जायना जालें. ती तशीच दोतोर लॉईडाच्या कन्सल्टींग रुमान भितर सरली. ती इतली हांसता तें पळोवन दोतोरुय अजाप जालो. "किदें जाला इतलें हांसपाक?' ताणे आपल्या चेड्याक घेवन भितर सरिल्ल्या फिलसूक प्रस्न केलो. "दोतोर भाटकारा रागार जांव नाका, पूण आंतोलिनोन म्हाका हांगा येतगेर किदे जातलें तें सांगिल्ले. कंपाऊेडर लेजीयो किदें करतलो तें सगळें ताणे करून दाखयल्ले." फिलसून ओतोलीनोची सगळी गजाल दोतोराक सांगली. ती आयकून दोतोरूय खूप हासूंक लागलो.

"ओतोलीनो. इतल्या वर्सांत तूं फकत तीन चार पावटच मोज्या क्लिनीकान येयला आसतलो. पूण तुंवे कितले बारीकसाणेन तेका पळोयला तें कळटा. हांवे इतल्या बारीकसाणेन तेका पळोवंक ना. तू बऱ्यो काणयो सांगता, कातारां गायता, लोकांची बरी विकेट उडयता म्हणून हांव जाणां आशिल्लो, पूण तू इतल्यो बऱ्यो नकलो करता म्हणून हांव नकळो. डॅडा हेका बोमाय धाडल्यार हो खूप फुडें पावतलो." त्या दिसा सांजे घरा येतगेर दोतोर लॉईडान, बल्कांवार बशिल्ल्या भाटकार – भाटकान्नी फुडें ओतोलीनोची तुस्त करीत म्हळें. भाटकाराच्या पांयाकडे बशिल्लो ओतोलीनो, मनांन बोमायच्या बोटींन पावलो.

संपर्क: 9665876860

***

*(पान २१ वयल्यान)*

राजकारणांत भारावन गेल्ले स्वतः मुखेलमंत्री, प्रधानमंत्री कशे वावुरतात. तांणी आपल्या फाटीं फुडें करपी अशे एक दोन 'हय सायब' म्हणपी पोशिल्लेच आसतात. एक कप चा, सामोसा ना जाल्यार एक प्लेट भज्याच्या आशेर हे 'होयबा' तांच्या फाटीं फुडे घुटमळत रावतात. सामाजिक संस्था, देवळां अश्या जाग्यांनी, आपली 'सेवा' दिल्या उपरांत बरीच 'माया' सांठोवन काय जाण आता पापक्षालन म्हण भौसाची 'माया' जमवपाच्या तयारेक लागिल्ले हांगासर दिसतात. फुकट्यांच्या फटीच्या तोखणाये वरवीं हांतले जायते जाण आपली खरी तांक विसरून गेल्ले दिसतात. शिक्षीतांतले सुशिक्षीत आनी सुशिक्षीतांतले सुसंस्कृत कोण आसूं येता हें हांका पळयल्या उपरांत जाणवता. हांच्या मदल्या जायत्या जाणांच्या कुडींनी फटीच्या तोखणायेचो अवसर खुदतना दिसता. हें खुदखुदप चड तेंप उरना. वास्तवताय किते हांची जाण आयल्या उपरांत तशेंच आपल्या सरभोंवतणी घुटमळपी हे संधी साधू आशिल्ले हे कळ्ळ्या उपरांत मात हे जुवान सामके विस्कळीत जातात. फटीच्या गजालीचो भार घेवन जियेवपी आयची जुवान पिळगी स्वतः विस्कळित जाय मेरेन विसर्जीत जायना हाचेंच चड दुख भोगता.

कुसमणच्या आंब्यावेल्या भाराच्या विसर्जना उप्रांत भौसाचें मनोरंजनां वांगडाच भौसामदीं विचार करपा सारकें वातावरण तयार जातालें. हो 'आंब्यावेलो भार' प्रासंगिक आशिल्ल्या कारणान ताचें विसर्जन जावप साप्प सोपें थारलें. एक गजाल मात खरी, आज काल सगळ्या तरेच्या 'भारांच्या' विसर्जनाक पुलितीक हेंच कारण आसता.

संपर्क : 9822129070

***

# भयण

**अरुण साखरदांडे**



आयज रक्षाबंधन. ताचे दोगूय पूत सकाळी बेगीनूच उठील्ले. ताचो व्हडलो पूत आठ वर्सांचो आनी धाकलो स वर्सांचो. ताची बायल रांदचे कुडींत तांची तयारी करपात गुंग आशिल्ली. शेजाऱ्यांगेर वचून तांका मानिल्ल्या भयणीकडल्यान बेगीन राखी बांदून घेवपाक जाय आशिल्ल्यान ताणी रातच्यानूच आवयक ताकीद करूंक सुरु केल्ले. तांका मातूय उशीर जावपाक फाव नाशिल्लो.

त्या दोगांकूय एक भयण आसची म्हूण आमी आनीक एक चान्स घेवंया अशें ताणें बायलेक सांगून पळेल्लें, विनवणीय केल्ली. पूण ताची बायल तयार जाली ना. ती म्हणपाक लागली जाल्या ते दोग पूत खूब जाले. नोकरी आनी संवसार सांबाळून भुरग्यांक ल्हानाची व्हड करता म्हळ्यार आपले बारा ब्रेस्तार आनी तेरा शुक्रार जाता ताचे कितें? दादल्यांचे कितें? बायलांक गुरवार जावचें पडटा आनी जिवीतभर आवयपणाचे वजें सोसचें पडटा. आनी तिसरे फावट धुवच जातली हाची गँरेंटी कित्यावयल्यान? ताका आनीकूय कितें कितें आयकून घेवचें पडलें. एकूण कितें? ताका एक धूव जाय आशिल्ली ती मेळ्ळी ना आनी ताच्या पुतांक भयणूय मेळ्ळी ना.

मागीर राखी कोणाकडसून बांदतले? दोन वर्सांपयली व्हडलो धाकट्याक घेवन ताचे सरी आयलो आनी एक भयण हाडची अशें सुचयलें आनी हॉस्पिटलान भयणी मेळटात अशी नवी म्हायतीय ताका दिल्ली.

आवयक विचारून मागीर कितें तें तुमकां सांगता अशें म्हणून ताणे तांची तात्पुरती समजूत घाल्ली.

मागीर रोखडोच तांणी नवो फ्लॅट घेवन ती ह्या बिल्डिगेंत रावंक आयली. शेजाराक दोन कुटुंबाक रावताली. एक तांच्याच माळ्यार, दुसरें सकयल्ल्या माळ्यार. तांका एक एक धुवो आसल्यो. त्यो भुरग्यांकडे खेळपाक यो वच करुंक लागल्यो, आनी ताच्या पुतांक दोन भयणी मेळ्ळ्यो. एकलेचे नांव हर्षा आनी दुसरेचे नांव पूर्वा.

आयज तांगेर वचून राख्यो बांदून घेवपाक दोगांयचे हात हुळहुळटाले. अखेरेक नवे कपडे बी घालून हातांत भयणीखातीर दोन दोन पाकिटां आनी मिठाय घेवन दोगूय भाव जोडयेंत भायर सरले.

वरा भरयान दोगूय जाण आयले ते दोन दोन राखी बांदूनूच. धाकट्या पूर्वान एक निळ्या रंगाची आनी दुसरी पांचव्या रंगाची, अश्यो दोन राखी दोगांक बांदिल्ल्यो. आनी हर्षान गुलाबी आनी नारिंगी रंगाच्यो राखी बांदिल्ल्यो. दोनूय पूत सुमाराभायर खोश्शी दिसताले. दोगांयकूय आयत्यो भयणी मेळिल्ल्यान तांका बळ आयिल्लें. तांच्या जिणेंतली उणीव तांच्या दोगांय भयणींनी भरून काडिल्लीं. आवय बापायक जमले ना ते ह्या भयणींनी करून दाखयलें. तांच्या फाटोफाट नवे कपडे घालून तांच्यो भयणीय तांगेर दाखल जाल्यो आनी आपणे बांदिल्ल्यो राखी



तोखेवपाक लागल्यो. निमणे, दोगांयच्यो राखी एकापरस एक सोबीत दिसतात ते सांगतकूच दोगांयचो जीव धादोस जालो आनी चारूय जाणां हॉलान बसून खेळूंक लागली. ताका अशी उमेदीन हांसतना खेळटना पळोवन खूब्ब खोस जाली.

२

ताका आपल्या भयणींची याद येवन तो निर्शेलो. ताची एकुलती एक धाकली भयण हांतरुणार पडिल्ली आनी तिचें कांय खरें नासलें.

जड काळजांन तो उठलो आनी भयणीगेर वचपाच्या तयारेक लागलो. तो दिवचले रावतालो आनी ताची भयण मडगवां. तिगेर वतलो जाल्यार ताका दोन बसी धरच्यो पडटाल्यो. एक दिवचलसून पणजे आनी दुसरी पणजेसून मडगवां.

ताणे कपड्यांक फेर माल्ले. पँट घाली, शर्ट चडयलो. बोल्सांत भयणीक दिवपाक पयशांचे पाकीट घालां काय ना तें पळेलें आनी किचनांत वचून बायलेक सांगले. "आगो हांव वचून येता आं भयणीगेर. ताची बायल बेगीबेगीन भायर आयली आनी एक जडशी पिशवी ताच्या हातांत दिली. भयणीक दिवपाक सफरचंद, केळी, तरेकवार खाणां, नासण्या सत्वाचो डबो आनी खूब कितें घाल्ल्यान पिशवी जड लागताली.

तो हुंबऱ्यार आडखळ्ळो. भयण कश्या स्थितींत आसत काय ह्या विचारान ताचें पावल भायर पडना जाले. तितल्यान ताचे बायलेन ताका आदार दिलो आनी मन घट्ट करून ताणे घराभायर पावल दवरलें. येता म्हणसर उशीर जातलो अशें ताणें वतां वतां बायलेक सांगले.

बसीन बशिल्लो आसतना ताचे तकलेन भयणीचोच विचार येवंक लागलो.

ताची भयण हट्टी आसली. आसली हुशार पुण शिक्षणाकडेन तिणें लक्ष दिलें ना. मेट्रीक लेगीत पास जावंक पावली ना. तिणे शिकून नोकरी मेळोवपाचोय यत्न केलो ना. बापायचो धंदो बंद जाल्ल्यान घर चलोवपाचो भार व्हडलो भाव म्हूण ताचेरूच पडलो. नोकरी करून शिक्षण घेवचें पडिल्ल्यान ताचे भयणीकडेन दुर्लक्ष जाले. भयण हट्टी आशिल्ल्यान कोणाचेच कांय आयक नाशिल्ली. आवयनूय तिचेकडेन चड लक्ष दिले ना.

ती एका गजालींत हुशार म्हळ्यार शिवण करपाक. ताणे कर्ज काडून तिका एक 'उषा' शिवपाचें मशीनूय हाडून दिल्लें. पूण तिच्या स्वभावाक लागून शिवणीचे कांय तिका जमलें ना. गिरायकाक खूश करपाची कला तिचेकडेन नासली. खंयच्याय धंद्यात गिरायकाचें समादान जावंक जाय. नव्या फॅशनीप्रमाण गिरायकांचे समादान करचें पट्टा. आपुणूच कामांत श्रेष्ठ

अशें समजून चलना. गिरायकांक काम आवडूंक जाय तरुच धंदो वाडटा. गिरायकांचे समादान जातलें अशें काम करप तिका जमलें ना. नव्या नव्या पद्धतीनुसार फॅशन करपाचीय तिका जमलें ना. आनी तिणे तसो प्रयत्नूय केलो ना.

आपूण अमूक अमुक हिरोईनीसारखी दिसता अशी कसली तरी समजूत तिणे करून घेतिल्ली. एकूण कितें आपल्या जिणेंत तिणे कांयच प्रगती केली ना. ल्हान ल्हान गजाली भितर रस घेतलो. हाच्यो ताच्यो गजाली करून तिणे आपले जुवानपण वगडायलें. आपूण कोण तरी आसा ह्याच धुंदीत ती जियेली. आनी निमणे तिच्या हातांतसून एक एक गजाल निसटपाक लागली. अर्दकुट्या शिक्षणाखातीर ती फाटीं फाटीं पडत गेली आनी तांतुतल्यान भायर सरपाचो मार्ग तिणे सोदलो ना. तिच्या बऱ्याचें कोणेंय कितें सांगलें जाल्यार तिणें तें आयकून घेतलें ना.

तिका तरेकवार जेवणां रांदपाची हुशारी आसली. ती बरें जेवण रांदताली. नुस्त्याचें बरें हुमण करताली. रुचीक बरें चिकन करताली. बांगडे तारल्याचे सुके, धबधबीत, कुल्ल्याचे घमघमीट तोंडाक सुरबूस जाताले. ह्या कलेपासून पयशे मेळोवपाचें कौशल्य तिचेकडेन नासलें. तरातरांची रुचीक लोणचीय ती करताली. पूण ताचो व्यापार तिणे केलो ना. आपल्या फुडाराचो विचारूय तिणे केलो ना आनी ती भावाचेरूच अवलंबून रावली.

भावूच आपलो फुडार थारायतलो अशी तिची समजूत. कुटुंबाचो खर्च चलोवपाखातीर भाव काडटा तो त्रास तिका दिसलो ना. स्वतः आपूण सुंदर दिसता असो भ्रम तिका आसलो, तोय फळादीक जावंक पावलो ना.

शिक्षण नासप, नोकरी नासप, घरची परिस्थितीय बरी नासत जाल्यार लग्नाच्या बाजारांत कांयच मोल मेळना हेंय तिका केन्ना समजलें ना. आनी तिणें तें समजुनूय घेवंक ना. ती नशिबाचेर पातयेवन रावली. चारूय वाटांनी ती हारत गेली आनी जे कोण मनीस आपल्याक पावतले आशिल्ले अशा मनशांचीय पर्वा केली ना. प्रत्यक्षांत नाशिल्लो आपलो 'इगो' ती कुरवाळीत बसली.

तिची सोयरीकय जावपाक खूब त्रास पडले. तिचे वय वाडले तशें आपले आशिल्लें तेय तिका आदार दिवंक शकले ना. कोणाखातीर कोण झरता? तिच्या सभावाक लागून सगळेच जाण तिचेपासून पयस गेले. तिच्या लग्नाखातीर कोणे खास प्रयत्न केले नात. निमणे मामान हाडिल्ली सोयरीक मानून घेतली. कोणेच खबर बिबर काडपाची तकालस घेतली ना. आवय बापायन फुडे सरून कशेंतरी तिचे लग्न करून दिलें. पुताक सांगले ना आनी विचाल्लेंय बी ना. एकदां चुकलें कीं मागीर सगळें चुकतूच वता. कोणाक कांय सांगिनास्तना तिणे होमा भोंवतणी फेरयो मारल्यो. आनी ती आनिकूय त्रासांत पडली. नशिबांतले कोणाक चुकलां?

तो भयणी घरा पावलो तेन्ना दनपारची बारा वरां जाल्ली. ताची भयण खाटीचेर पडून आशिल्ली आनी कुशीकच्या मेजाचेर वखदांची रास पडिल्ली. तिका रगताचो कॅन्सर जाल्लो आनी ती कितले दीस काडटली आशिल्ली हे दोतोरान सांगू नाशिल्लें. कदाचित आनीक एक म्हयनो वा दोन म्हयने वा चडात चड स म्हयने. तिज्या घरचीं एक एक दिस मेजीत आशिल्ली.

ताका पळोवन भयणीन उठपाचो प्रयत्न केलो. पूण तिका तें जमना जालें. एका वेळार सडसडीत आशिल्ल्या भयणीची आज हाडां दिसूंक लागिल्लीं. कॅन्सराची कीड तिची कुड पोखरताली. ती किड कशीच मरनाशिल्ली. चार पांचदा गोमेकॉन व्हरून व्हरून केमोथेरपी दिल्ली. पुण ह्या सगळ्या उपायांचो तिच्या कुडीचेर वायट परिणाम जावंक लागिल्लो म्हूण सगळे उपाय दोतोरांनी बंद केल्ले म्हळ्यार जाता.

भावाक पळोवन भयणीचे दोळे आशेन भल्ले आनी दोळ्यांतसून दुकां गळूंक लागली. ताका तिची दया आयली. ताचेय काळीज भरून आयले. नियतीन इतली खर ख्यास्त तिका दिवंक जायना आसली.

ताणे तिका आदार दिवन खाटीक फाट तेकोवन बसयली. तिणे कोणाक तरी सांगून एक तांबडीगुंज राखी हाडून दवरिल्ली. तिणें आपल्या उशाकुशीकडल्यान ती राखी हातांत घेतली आनी ताच्या हाताक बांदपाचो प्रयत्न करूंक लागली. पूण राखीची गाठ बांदपाक तिका जायना जालें.

मागीर तिणे कामवालीक उलो माल्लो. ताणेच स म्हयन्यापयलीं तिका मदत जावची म्हूण हुबळी शाराकडच्या गांवातली कामवाली हाडिल्ली. त्या कामवालीचो पगार आनी आलायतो खर्च फाटले वर्सभर तोच करतालो. भयणीच्या घोवाच्या पगारांत ताचो खर्च भागनाशिल्लो.

तिचो उलो आयकून कामवाली भायर आयली आनी भयणीक तिणे राखी बांदपाक मजत केली. कशीतरी राखी बांदली भयणीन, पूण ताका दिसलें ही राखी आता निमणीच. ताणे आपली दुकां भितल्लेभितर जिरयलीं. भयणीन बांदिल्ली तांबडी गुंज राखी ताच्या हाताक सोबीत दिसताली.

भयणीचो घोव कामार गेल्लो. तो एका प्रायव्हेट कंपनीन काम करतालो. सादो कारकून म्हूण. भयणीन कामवालीकडसून शिरो करून घेतिल्लो. शिऱ्याक रुच नाशिल्ली, ताणे तो तसोच खाल्लो. एका वेळार कुशळतायेन खाणा जेवणां करपी ताची भयण आज कामवालीचेर अवलंबून पडिल्ली. केन्ना केन्ना जीण कशी मोडणां घेत ते सांगू नजो. कोणेच कसल्यो फटाशो मारूं नये. जीण कोणाक कशी सोंपयत तें सांगू नजो. तिच्या हातांत ताणे पयशांचे पाकीट दिलें. भयणीन तें घेतले. तेन्ना ते पाकीट तिका जडूच लागलें. निमणी राखी आनी निमणे पाकीट तिच्या दोळ्यांतसून घळघळीत दुखां देवूंक लागली. तिका ती दुकां पुसपाचेय बळ उरूंक नासलें.

भावाचे पाय जडगुळो जाल्ले. पूण नेट करून तो उठलो. ताणे भयणीचो निरोप घेतलो. आनी तो भायर सरलो. दारार जावन ताणे फाटी पळेलें तेन्ना ताची भयण खोल नदरेन ताका पळेत आसली. ताणे जड काळजांन घराभायर पावल दवरले.

३

तीन जाली तरी घोव घरा पावूंक नासलो. आता कितें करचें म्हूण ताची बायल भायल्या कुडींत बसून घोवाची वाट पळेताली. जेवण खाण जावन तिचे दोनूय भुरगे कसलो तरी खेळ खेळटाले. आतां तिका आपल्या भावाक

राखी बांदपाखातीर बेगीन भायर सरूंक जाय आशिल्लें.

थोडो वेळ वाट पळोवन तिणे मागीर आपल्या दोनूय पुतांक शेजाऱ्यांगेर दवरले. तांचो बापूय रोखडोच पावतलो अशें शेजाऱ्नीक सांगून ती बेगी बेगीन भावाक राखी बांदपाखातीर भायर सरली.

तिचे कुळार आडवळणार एका वराच्या वाटेर आशिल्ले. तिच्या गांवाक वचपाक बसी सारख्यो मेळनाशिल्ल्यो.

ती कुळारा तिच्या घरा पावली तेन्ना सांजची साडेपांच वरां जायत गेल्लीं. घराचीं सोपणां चडून पडवेर पावन पळेल्यार घराच्या दाराक कुलूप. ह्या वेळार खंय गेलो काय तिचो भाव?

अर्दवर पडवेच्या सोंपणार बसून ती भावाची वाट पळोवंक लागली. तिचेकडेन घराची चावी नासली. रावूं रावून तिका पुरो जालें. मागीर ती सोपणां देंवून शेजाऱ्नीगेर गेली. शेजाऱ्नीकूय तिच्या भावाविशीं कांयच खबर नाशिल्लें. आनी ताणे तांगेर रकादूय दवरूंक नासलो. तिणे शेजाऱ्नीच्या भावाक हेवटेन तेवटेन खंय आसल्यार आपल्या भावाक सोदून हाड म्हूण विनवणी केली.

शेजाऱ्नीलो घोव नाईलाजान उठलो. आनी तिच्या भावाक सोदपाक भायर सरलो. शेजाऱ्नीच्या घोवाक हें काम सामकें आवडूंक नाशिल्लें. हे ताच्या चेऱ्यावयल्यान स्पश्ट दिसतालें. पूण ती तरी कितें करतली आसली?

तिचो भाव लग्न जावंक नासलो. तिचें लग्न जावचे पयलींची गजाल. तिचो भाव एका परधर्मीय चलयेच्या मोगांत पडिल्लो. पूण तो मोग सफल जावंक पावलो ना. मागीर केन्नातरी कितें तरी कारणाक लागून तिच्या भावाची नोकरी सुटली. तिचे लग्न जातकूच तो एकटोच उल्लो. ताका वायट संवयो लागल्यो. काम धंदो नाशिल्ल्या मनशाक बरे इश्ट खंयचे मेळटले?

सुमार अर्द्या वरान शेजाऱ्नीलो घोव परतलो. ताणे चार पांच कडेन तिच्या भावाक सोदलो. पूण तो खंयच सांपडलो ना.

मागीर तीय भायर सरली आनी आपल्या दोन इश्टिणींक मेळून आयली. बाजारांत वचून वळखीच्या एका दोगांगेर फावट माल्ली पूण तिच्या भावाचो पत्तोच लागलो ना. ती परत घरा आयली. पडवेची सोपणां चडून हुंबऱ्यार बसली.

आता सांज जायत आयिल्ली. इल्लो इल्लो काळोख पडटालो. तिच्या दोळ्यांत दुकां भरिल्ली. तिका आपल्या घरा परतूंक जाय आशिल्ले. भाव घरा पावतलो अशी तिका मातूय आशा नाशिल्ली.

तिणे आपली दुकां पुसली. भावाखातीर हाडिल्ली राखी घराच्या भायल्या खिळयेक कुलपा कुशीक हुमकळायली. पडवेचीं सोपणां देवून ती कुळारच्या रिकाम्या घराकडेन पळेत थोडो वेळ उबो रावली.

घराच्या बंद दाराच्या खिळयेक तिची राखी हुमकळटाली.

मागीर तिणे घरावटयां फाट केली आनी ती सडसडीत पावलां उखलीत आपल्या घरा वचपाखातीर बस स्टँडाकडेन चलत रावली.

तिचो घोव आनी भुरगीं तिची वाट पळेत आसतली ह्या विचारान तिणे आतां फाटी पळेलें ना.

तिचे फाटल्यान खिळयेक हुमकळत आशिल्ली राखी पोन्या घडयाळीच्या लंबकाबशेन हेलकावत तिच्या भावाची वाट पळेताली.

संपर्क : 9422061702

***

---

*(पान ११ वयल्यान)*

समजिकायेचें पोरसूं हांकां गडगंज तरतरो आऩी फुलारो आयिल्लो. खऱ्या अर्थान ते आंतरीक सुखांत नंदताले. नंदतात.

अशी ही काणी.

पयलीं कांय कळना गा. रगताची, पिसायपणाची, पैशांची, आंगांतल्या गुणांची हूनसाण खुबूच जाली काय तकलेक मारता. आपूण कितें उलयता, कितें करतां हाचें भान ते घुंवळेंत आसना. विमान कोसळटा तेन्ना धुंवर जाता.

संतकवी जलालुद्दीन रूमी हाचीं कांय पुस्तकां म्हळ्यार विचारांच्यो बियो. दिसाक एक बी रोवची. तांचे जातात रोंपुले. सुंदर.

अज्ञान ही देवाची बंदखण

जाणा जावप ही देवाची पालास.

केदें काव्य हें. अज्ञान हें तें भोगतल्याक वायटूच. त्राशीकूच. असले लोक बाकिच्यांकूय पिडटात. जे खरें ज्ञान मेळयतात ते परम आनंदाच्या पालासींत खरें फोल्ग मारतात.

फिक्र सब फाका करे, बन गया फकीर.

एका संतान असल्या आनंदाची रूच घेतना सांगलें, सगळी चिंता, फिकीर सोडली तेन्ना जालों फकीर. फकीर हें फिकिर ह्या उतरा वयल्यान आयलां अशें हिंदी पुस्तकांनी सांगलां. फकीर म्हळ्यार फक्त संन्यासी न्हय. जाणें त्यो परमात्म शक्तीच्यो बियो वेवस्थीत रोयल्यो आनी पोरसूं वसयलें, फुलयलें आनी जो बंधपाशांच्यो सगळ्यो सरपळ्यो सोडून मुक्त जालो, फिकीर सोडली, समाधानांत विहरत रावलो तो फकीर!

परमात्म शक्ती म्हळ्यार एक वर्तुळ, जाचो मध्यबिंदू सगळ्याक भरला आऩी जाच्या परिघाचो थावूच लागना. अऩंत. अशें स्वामी विवेकानंदान म्हळां.

अनंततायेचो थाव तकलेक लागता?

आवयच्या कुसव्यांत एका तेंपार जिवाची घडण सुरू जाल्ली तेन्ना सांसवा परस ल्हान म्हळ्यार अणुयेदो आशिल्लो हो जीव रोकडोच टट्टूंक लागता. हांवूच तो सगळें करपी हो कर्तेपणाचो अभिमान आनी मद ताका मारता. ते परम शक्तीचो थाव तकलेच्या मापट्याक लागतलो? थाव लागपाचो विशयूच न्हय तो. काळजान अणभवपाचो प्रांत तो. बियो रोवन. योग्य!

संपर्क : 9545827662

***

# निलिमाचो 'नवो निश्चेव'

**नूतन साखरदांडे**

कथा हो कोंकणी साहित्यांतलो गिरेस्त असो साहित्य प्रकार. आजमेरेन कितल्याश्याच साहित्यकारांनी कथेचें पोरसुं सोबीत सुंदर केला. हालींच ह्या पोरसांत एका नव्या रोंपाची भर पडल्या. आनी हो रोपो कोंकणी कथेच्या पोरसांतलो परमळ निश्चीत वाडयतलो हाची म्हाका खात्री आसा.

निलिमा दिलीप मुंग्रे हे नांव जरी चडशें संवकळीचें नासलें तरी ९०व्या दशकांत ताणे खूब बऱ्यो कथा बरयल्यात आनी मदल्या काळांत संवसाराच्या फापट पसाऱ्याक लागून तें आपल्यांतल्या कथालेखिकेक विसरूंनूच गेल्लें. कशें कोण जाणां ताच्या भुरग्यांक ताच्या पुस्तकरुपान अप्रकाशित साहित्याखातीर वायट दिसताले, आनी तांच्याच आग्र्हाक आनी यत्नांक लागून हो कथासंग्रह उजवाडावपाचो ताणे नवो निश्चेव केलो आनी ताका पालव दिलो तो संजना पब्लिकेशनच्या दिनेश मणेरकार हांणी. १४८ पानांचो हो कथासंग्रह जांतूत १० कथा आसात. ह्या कथासंग्रहांत ताणे मध्यमवर्गीय समाजाच्यो व्यक्तिरेखा चित्रायल्या. मनशा मनशांमदले नात्याचे ताण जिवितांतल्यो विसंगती आनी विरोधाभास हेरपाची नदर ताका आसा म्हणपाची जाण ह्यो कथा वाचतना मेळटा. समकालीन जिर्णेत घडिल्ल्या घडणुकांचो, पळयतल्या व्यक्तिच्या जिणेचो आनी एकुणूच समकालीन जिववास्तवाचो सोद घेवपांत ताचे कथेक रस आशिल्लो दिसता. चडश्या कथांनी ताणे flashback कथन तंत्राचो उपयोग केला.

हांव हांगा ताच्या कांय कथांच्या कथानकांची थोडक्यांत वळख घडयता. हांतुतली पयली कथा 'काकुळ' ह्या कथेन धाकल्या भयणीचो व्हडल्या भयणीखातीर त्याग दाखयला. 'कुवाडे उलगले' ह्या कथेन आपली घरकात्र परिवाराभितर रुळ्ळ्या काय ना हाची परिक्षा तिचोच घोव घेता आनी उमळशीक वाडयत कथा अनपेक्षित वळणार येवन थांबता. परिस्थितीक लागून मनाचेर परिणाम जाल्ल्या घोवाची कथा आनी ताका सुदारपी बायलेची कथा 'खडतर ताप' ह्या कथेन मांडल्या. जाल्यार 'दैवयोग' ह्या कथेन मोगाचो त्रिकोण दाखयला. 'नवो निश्चेव' ह्या कथेन एकतर्फी प्रेमाचो विशय बरो फुलयला, निमणे मोगिकेची आनी ताची खूप वर्सांनी भेट जातकच तो एक नवो निश्चेव करता आनी कथा सोंपता.

'नशिबाची पावलां' ह्या कथेन घोव मरतकच बायलेचेर खापर फोडटा आनी ताचो परिणाम घरांतल्या वातावरणांचेर जावन आवय धुवेचे संबंद बिगडतात हे सांगलां. 'मन परिवर्तन' ह्या कथेन काळ्या रंगाच्या अस्तुरेक कशे तरेची वागणूक मेळटा हाचें चित्रण केलां. ह्या कथासंग्रहांतली 'मिनू' ही कथा सुंदरुच जाल्या. कथेचो नायक हो मिनूलो शेजारी आनी मिनू तागेर खूब येवपी वचपी एक सान पिरायेचे भुरगें. तांच्या घरांत एक सुवाळो चलता म्हणून आवय कथेच्या नायकाक ताचेर नदर दवरपाक सांगता. नायकाक तातडीचे काम उप्राशिल्ल्यान ताका वरभर भायर वच्चें पडटा. इतल्या मजगती मिनू जें बेपत्ता जाता तें मेळच ना. दुसऱ्या दिसा ते नायकातल्या पोरण्या फ्रिजान लिपून बशिल्लें मेळटा. पूण तोमेरेन ताचो प्राण गेल्लो आसता. ही कथा वाचतना आंगार शिरशिरीत कांटो आयल्याबगर रावना.

परिस्थितीक लागून एका मंद बुद्धीकडेन लग्न जाल्ल्या एका तरणाट्याक निमाणें आपले जिवेकडेन मोग आशिल्लो तिचेचकडेन परत लग्न जावपाचो निर्णय 'अस्तमतेचे सोबीत भांडार' ह्या कथेन दाखयलां. 'खंत' ह्या निमणे कथेंत तिची दोन लग्नां जाता. एक मरता पुण दुसरेचो घोव तिका सोडून वता. आनी पयल्या घोवाचे चली मरता तेन्ना तो ताका आपणावपाक येता तेन्ना ती ताका फाट करता.

निलीमाची भाशा सोपी सुटसुटीत आनी संवाद तर सामके सहज बरयल्यावरी जीवे तट्टतटीत जाल्या. निलिमाक त्या काळार जी जी बीजां सांपडली तीं ताणे वेवस्थीत फुलयल्यांत आनी बऱ्यो कथा दिवपाचो यत्न केला. समाजांतल्या प्रस्नाकडेन पळोवपाची नदर निलीमान आनीक विशाळ करची आनी विंगड विंगड विशयाचेर नव्यो कथा नेटान बरोवपाचो 'नवो निश्चेव' करचो अशी इत्सा आनी हावेस बाळगितां आनी ताका कोंकणीच्या कथा साहित्यांत येवकार दिता.




**नवो निश्चेव** (कथासंग्रह)
बरोवपी: निलीमा दिलीप मुंग्रे
प्रकाशक: संजना पब्लिकेशन्स,
दत्तवाडी, सांगे-गोंय.
पानां: १४८
मोल: २०० रुपया.

संपर्क : 9970445778

***

*(पान १६ वयल्यान)*
म्हणपाक लागलो, 'तुका जाय तांका घे आनी एकदाचें मोपाक नांव दिवन उडय!' कोणाकूय घे आनी नांव निवड म्हणप साहित्य अकादेमी आनी हेर संस्थांक पुटवता. तांचेर भार आसता तो पुरस्कारांची वर्सुकी भोगावळ तडीक व्हरपाची. निवड समितीय आपले किरवटीचो शाबी बाबी सांसपून पळयता आनी पुरस्कार 'सा' करता. मागीर जांकां मेळ्ळा ते सळसळटात आनी मेळूंक ना ते वळवळटात. पूण मोपा विमानतळ दर वर्साची भोगावळ न्हय तर दिल्लें नांव सासणाचें मिरोवपी मळ. देखून नांव दवरतना ते सारकेंच जावंक जाय अशें हांवें चिंतलें. हांगा अकादमी वा मंडळां करता तशें मेळटा ताका ओडून व्हरून पुरस्कारा पासत हाचें नांव घे ताचें नांव घे अशें करप समा नाशिल्लें. जांणी जाहीर नांवां सुचयल्लीं तांचे मदले निसुवार्थी कोण आसात जाल्यार तांका समितीर घेवन नांव दवरप शाणेपणाचें दिसलें आनी हांव खूश जालों. संजीव वेरेंकार आनी भाई मावजो म्हाका सांपडले. हे दोगूय नांवां दवरपाक इश्पेर्त म्हणपाचें हांवें सपनांत लेगीत चिंतूक नासलें. संजीव वेरेंकाराक दिसलें मोपाक भाऊचें नाका जाल्यार मुळगांवकाराचें दिवंचें आनी भाईक दिसलें आबे फारीयाचें दिवंचें. संजीव आनी भाई दोगूय साहित्य अकादेमीच्या पुरस्कारांचे मानेली. तातूंत भाई ज्ञानपीठकार (!) भाई दावो आसुनय ताका उजवो सीएम नाका म्हणचोच ना. दोगांकूय आपोवन हाडून आमी नांव दवरपाक बसले. दोगांकूय साहित्य अकादेमीच्या ज्युरी मंडळाचो खांपो अणभव आशिल्ल्यान दोगांनीय आपापलीं मतां मांडलीं. ताचो सार असो - भाऊ हो विलीनीकरणवादी. तो मरून लेगीत कोंकणीवाद्यांक कसोच सोडचोना. पर्रिकार कोंकणीवादी दिसलो तरी तो खरो रोमीवादी. तो नागरीवाल्यांक सोडचोना. हालीं कालच्या परच्या भुरग्यांक लेगीत साहित्य अकादेमी विमानान भोंवडायता. ह्या भुरग्यांचो फुडार सांबाळूंक विमानतळाक चिंतून नांव दिवपाक जाय.

म्हाकाय तें पटलें. शेवटाक भाई मावज्याचे सुचोवणेक मान दिवन आमी सगळ्यांनी 'आबे फारिया' चें नांव निवडलें. सीएमाक तशें पळोवंक गेल्यार भाऊचेंय नांव नाका आसलें आनी आपल्याक सीएम करपी भाईचेंय 'आबे जाल्यार आबे! फाराय ताका' म्हणत सीएमान तें मानून घेतलें.

पूण संजीव सकयल वयर जाता अशें दिसलें. ताका कितें तरी सांगपाचें वा विचारपाचें आसा अशें दिसलें. देखून हांवच बावगलों आनी म्हजो कान ताच्या तोंडा कडेन व्हेलो...

"दिलीप, भाईचो तो कोण आबे फारीय म्हणटा तो तोच मरे हिप्नॉटीझम करपी? ताणें पायलटांक वयर मळबांत आसतना हिप्नॉटायज केले जाल्यार घात मरे पापया! कसलोय पुरस्कार घेवंक विमानानूच व्हरतात म्हूण म्हणटालों रे हांव. आनीक कित्या पासत न्हय..!!"

एक्साचो कितें म्हणूंक सोदता काय..!!

संपर्क: 9822136885

***

# कविता

## डायवर्स

राजश्री सैल

डायवर्स घेवंचो
निश्चय करतकच,
घरांतल्यो सगल्यो बायलो
रावतात तिज्या फाटल्यान.
लग्न आंगणात रोविल्ल्या
माटवांतल्यो घट्ट म्हेडयो कश्यो
आनी घरांतले दादले मात पैस पैस रावतात
प्रस्नार प्रस्न करत.

डायवर्स घेतकच बायलो जातात
रित्यो मेकळ्यो.
काळजाच्या एका कोनशार दवरतात फातर.
आनी झोंपय घेतात एका वेगळ्याच दिकेन.
डायवर्स घेवचो निर्णय घेतकच
बायलो कांय वेळ पळयत रावतात.
पुसत अस्पश्ट जायत वचपी क्षितीजाकडेन.
खंयच्यानतरी सुर्य किरणासयत उदेतलो
ही खोटी आशा घेवन कांय वेळ पळयत रावतात
क्षितीजापेल्यान.
मागीर व्हड व्हड दोळ्यांनी
व्हड व्हड दुकां घेवन अदृश्य जातात सासणाखातीर..
तुमच्या जिवनांतल्यान.
डायवर्स घेतकच
कांय वेळ कळच ना
तिका पांयासकयल्ली माती
तिका खंय व्हरुक लागल्या ती
तिका कळच ना ती मुखार वचूंक
लागल्या कांय फाटीं
एका घनदाट अरण्यांत घुस्पागोंदळाच्या सापळ्यांत अडकल्लो
भास तिका जायत रावता
भोंवतणी एक दोन काचीबुर्ची
तिजो हात घट्ट धरून उबी आसतात
आनी आसता मुखार एक अक्राळ विक्राळ देंगण
त्या देंगणातल्यान ती उडी मारुंक शकता
वा त्या देंगणातल्यान वयर येवंक धडपडपी
अमृत वेल जावंक शकता
दोनच पर्याय आसतात
मुखार
डायवर्स घेतकच सोपें आसना
मनांक समजावप
सकाळी सहज दवरिल्ल्या
दोन तीन कपांतलो
एक कप च्या बेसीनांत ल्हवच रकोवप
डायवर्स घेतकच कठीणच आसता
ताचे कपडे सगले सोदून सोदून
गांठयो मारून म्हाल दरवट्याच्या
भायर दवरप
खंय तरी किर्ते तरी उरताच
कपाटाच्या खोल कोनश्याक मुंगरिल्लें
फाटल्या दारांतल्या दोरयेचेर सुकत घाल्लें!

संपर्क: 9922265209

***

## तीन कविता :

परेश नरेंद्र कामत.

### त्रिकाळांत

मुळां आसात
म्हणून खांदयो फुट्टात आमकां
मुळांतल्यान

खांदयांचेर बसतात शेवणीं
आनी पाखां फुट्टात तुका-म्हाका
शेवण्यां वरी

झाड आसा थंयच आसता उबें
वर्सान वर्सां खेळयता आपलो जीव
त्रिकाळांत

काळ सरत रावता
गुस्पल्लीं मुळां सोडयत रावतात आमी
आनी आनिकूय गुस्पतात...

***

### वर्जें

मुळां रोमून
रावलां हांव
पाशाणाक भेदूंक

काळजांत सपनां
दैंवतां घेवन
जिणेचीं एकेक सोपणां

वांट्याक पडलों
जितलों हांव
वांटून घालतां तितलों

सगळें मोर्नेपण
एकठांय हाडून
बोलयेंत दवरतां ओतून

सांगूं नाका
खर वानसा
वासनांची हाका-ताका

-उखल वर्जें
आनी घे माथ्यार ;
जड-ल्हव म्हाका म्हर्जें...

***

### हात

हात भाजून घेतल्या उपरांत
हातांत हात घेवपाक लेगीत दिसता भंय
भंयाचेच दोंगर आसता फुडें आनी फाटल्यान
मर्दीं खोल दरी
धारदार कातये वरी

भंयाचो रंग आसता तांबडोगुंज
भंयाचो रंग आसता काळोकिट्ट
हांव पड्टां धवो फटफटीत भंयान
भंयूच आसता वेंगावन जिणेची कोरी पाटी

पाटयेर बरयलो भंय आनी पुसलो भुरगेपणांत
तरनाटेपणांत भंयाक दाखयलो कोको
आतां जाणटेपणाचे वाटेर उंच उंच जायत
रावल्यात
दोंगर भंयाचे
नदर पावना इतले उंच
आनी खोल दरयेंत मरण पळेत बसलां वाट
आपल्या दोनूय हातांनी विळखो घालपाक...

संपर्क: 9422640210

***

## बावटे

मेल्विन रोड्रीगस

तुवें सांगलेंय देकून -

शेजारच्या आंगणांत सुकत घाल्लें
केसरी बणाचें शॉल चोरलें

इष्टिणीच्या कॉलेज बॅगांतलें
धव्या रंगाचें हिजाब फारलें

ट्रंकांतल्या मांयच्या कापडाच्या
पाचव्या पालवाचें पोंत फाळ्ळें.

शायेच्या पेन्नान धव्या लुगटार
अशोक चक्राच्यो सरयो वोडल्यो
आमचो तिरंगा शिंवून काडलो.

आज आमी दोगांय जाणां
बावटो उबोव्यां-

दिसल्यार दिसुंदीत:
देश-प्रेमी चोराच्या,
बावट्याच्या काळजांतलीं
चोरपाणाचीं खतां

पुसून वचुंदीत:
देश लुटकाराच्या,
बावट्याच्या दोळ्यांतलीं
व्हांवती तीं रगतां.

संपर्क: 9980136297

***





नवी जाग गोंयकारांक



# जैतवंत जांव!



# स्मिता खांडेपारकार आनी घरचीं

